# होळ्ळम्मालो काणियांचो पेटारो

(कथा संग्रह)

वत्सला आर. शेणै






शेणै प्रकाशन
कोची

Konkani

# HOLLAMMALO
# KANIYANCHO PETTARO

(Stories)

**VALSALA R. SHENOY**
'Srinivas', 19/36, Waterland Road,
Palluruthy, Kochi - 682 006.

First Edition 2006


**Rs. 100.00**

Published by :
**SHENOY PRAKASHAN**
Kochi - 682 006.

Typesetting by :
**SREYAS COMPUTER CENTRE**
South Cherlai, Cochin - 2.

Printing by :
**VASANT INDUSTRIES**
Town Hall Road, Kochi - 682 002.

**Transliteration and Cover Design : SURYA ASHOK**



**पी. एस. रामचंद्र शेणै**
**(1917 - 2005)**

# समर्पण

देवाली स्मरण कोरनू, गेल्ले वर्षा निधन जालेले मिगेले पतिदेवाले पावन स्मरणेक ही कृति सादर समर्पितां.

- वत्सला आर. शेणै

प्रस्तावना - डॉ. एल. सुनीता बाय

# पेटारो वाक्तो करतना -

## प्रथम भाग - सानि काणियो


Page Nos.

मांकड आनी सोस्सी .. .. .. .. 13

हस्ती आनी भुंडो .. .. .. .. 16

बोकोड्ड आनी पड्डो .. .. .. .. 18

माजरी आनी कोल्लो .. .. .. .. 20

मांकड आनी उबूचो कांबळो.. .. .. .. 22


## दुशेरो भाग - शांतिवनाच्यो काणियो


सोस्या पिलांनी विष खेल्लेली काणी .. .. 25

फोंडात पळ्ळेले चितळांली काणी .. .. .. 28

कोल्याली काणी .. .. .. .. 30

घोणियेली काणी .. .. .. .. 31

हाराली काणी .. .. .. .. 33

सिस्सरेली काणी .. .. .. .. 34

वागाली काणी .. .. .. .. 36

गाडवाक धरलेले कोलसूण्याली काणी .. .. 38

हंसपक्षाली काणी .. .. .. .. 40

काळे मांकडाली काणी .. .. .. .. 42

## तिसरो भाग - वेंचिल्यो लोककाणियो


| | Page Nos. |
|---|---|
| खुरडे भाज्जेची काणी .. .. .. .. | 45 |
| सत्रकारणीली चोरायो .. .. .. .. | 48 |
| मिरियाकोणाली काणी .. .. .. .. | 52 |
| आंबो खावनू कासवु जाल्लो .. .. .. | 56 |
| केळीक व्हारडीक कोरची काणी .. .. .. | 59 |
| भांगरा सिस्सोरो .. .. .. .. | 63 |
| पत्तळेचो रूकु .. .. .. .. | 66 |
| सात भातांची काणी .. .. .. .. | 70 |
| भांगरा चेल्लो .. .. .. .. | 77 |
| भांगरा केसाची राजकुमारी.. .. .. .. | 80 |
| सोळा शिंगा रायू .. .. .. .. | 83 |
| दोनी राजकुमार .. .. .. .. | 86 |
| दुगुल आनी रुकाचें बावलें.. .. .. .. | 89 |
| चेल्लो आनीक सूणे .. .. .. .. | 92 |
| सित्ती आनी मांकड .. .. .. .. | 96 |




# दोनि उत्तरां

सानप्रायेरी मिगेली स्नेहमूर्ती अम्मान (श्रीमती सुनन्दा बाय) आमकां चेरडुवांक मोगान काणियो सांगप आशिल्लें. मंगळूरा लागी कुंबळा तं अम्मालें जन्मस्थल. अम्माले बारा वर्षांचे प्रायेरी आमगेले बप्पान (श्रीयुत जे. पत्मनाभ कामत) व्हारडीक कोरनू मुवाट्टुपुषा हाळ्ळी. अम्माक स्वंत गांवच्योयी मुवाट्टुपुषेचे बप्पम्मान नातुरांक सांगिल्योय काणियो कळताल्यो. त्यो काणियो आमी चेरडुवां संतोषान आयकतालीं.

मिगेले पंद्रा वर्षाचे प्रायेरी श्रीयुत पि. एस. रामचन्द्र शेणै हांगेली धर्मपत्नी जावनू हांव पळ्ळुरुति गांवांत आयलीं. आमकां चेरडुवां जांवचानिक मिगेले उडगासांतुल्यो त्यो परण्यो काणियो सर्व उषार जावनु उटायल्यो!

साळ बंद करना फडे आमगेलीं नातूरां, बचूरां, नणदो जावनू होड एक गृहसदसाचेरी हांवें ह्यो काणियो सांगप आशिल्यो. मिगेले धाकूले मोगा धूवेन एक फंता एकि काणी 'बालरमा' मासिकेक पेटेयली. ती उजवाडा येंवचाकय तिका प्रोत्साहन मेळ्ळें. तीणे तं माका निर्बंद कोरनू काणियो मासिकेक पेटोंवचाक सांगिल्लें. तशी मिगेल्यो स्वकीय काणियोय प्रकाशन जांवचाक मिगेले बामणानय चेरडुवानीय बंधुबांधवानीय माका होड प्रोत्साहन दिल्लें.

ते वेळारी कोची साकून "कोंकण जनता" म्हळ्ळेली मासिका देंवता म्होणू आयकून एक दीसा काणी कोंकणींतु बोरोवनू तांका पेटेयली. आवय भासेक विसरूक नज मू! तशी मिगेल्यो जायत्यो काणियो ताजेरी आयल्यो.

जाल्यारी एदे काळानी ती मासिका राबीली. ते वेळारी कोषिकोडचे 'सारस्वत वाणी' मासिकेचेरी बोरोंवचाक मिगेले धूवेन (डॉ. आशा जयकुमार) सांगीलें. तशी हांव ताजेरीय बोरोवनू येतां. कोची देवळाचे "वेंकटवाणी" तूय

कारणकोड साकून देंवचे "वैष्णवरत्न" मासिकेचेरीय आतां हांव बरयतां.

आमगेले शेणै कुटुंबांतुलीं जायतीं जाण कोंकणींत साहित्यसेवा कोरनू आसाय म्होणू सांगूक माका होडू अभिमानु आसा. मिगेले बामुणानयि हांवेयि फूडे धोरनू बरोवनु आंमकां "कोंकण जनता", "कोंकणि भाषा प्रचार सभा", "सारस्वतवाणी", "वैष्णवरत्न" इत्यादी पुरस्कार मेळ्याय. हेची वरी जायते पुरस्कार आमगेले धुवांकय (श्रीमती पुष्पा नवीन, डां. आशा जयकुमार), सुन्नेकय (श्रीमती सूर्या अशोक) मेळ्याय! कोल्लांवची मिगेली भयणीय (श्रीमती लिल्ली रमानन्दन) कोंकणींतु बोरोवनू जायते पुरस्कार प्राप्त करता.

एद्दोळ जावनू मिगेले बामणालो एकु कविता पुस्तक (पुष्पांजली), मिगेले काण्यांचें एक ओडियो कॉसट (होळ्ळमाल्यो काण्यो), आनीक आमगेले सुन्नेले (सूर्या अशोक) दोनी पुस्तकांय (कृष्णगीत, पुनर्जनी), शेणै प्रकाशना वाटेन प्रकाशन जाल्याय.

मिगेले म्हलगड्यांलोय, चेरडुवांलोय सर्व प्रोत्साह माका केद्दणाय मेळताची आसा. आवयभासे खातीरी इत्तेंय कोरूक जांवचे आमकां सर्वांक होड संतोषाचीं कायरीं. हे वेळारी हांगाचे श्री शरतचंद्र शेणैन हे विषयांत आंमकां दिलेले सहाय सहकरणा खातीर तांचो उपकारु आठयतां.

परंपरागत जावन आशिल्योय, स्वकीय काणियोय एकडे केलेले मिगेले हे पुस्तकाचे खातीर प्रस्तावना बरोवनू दिल्लेले डॉ. एल. सुनीता बाय हांका भरलेले हर्द्यान उपकारु सांगतां. अशी मिगेल्यो काणियो पुस्तक रूपान प्रकाशन कोरूक मुकारी सरलेले मिगेले सर्वांक देवु चांग कोरो म्होणू मनान प्रार्थना करतां.

**- वत्सला आर. शेणै**

# उपोद्घात

केरळांतले कोंकणी साहित्यांत कथा लेखिका मदीं श्रीमती वत्सला आर. शेणै हांचें नाव नेटान मुखार येता. हांचें कथासाहित्य संख्येनय गुणानय दुसर्या परस चड आसा. कोंकणींत साबार कथा, प्रवासवर्णना आनी नवलिका हन्नि निर्माण केल्या. गत तीस वर्षानी हांगेले साहित्य वेगवेगळ्या नेमाळ्यां वाटेन प्रकाशन जाता आसा. जिणेचें यथार्थ चित्रण करपी आनी उपदेश दिवपी हें साहित्य भो मोलादीक. तांतूय बालसाहित्य म्हत्वाचें. आकारान व्हान आसनूय सहृदयांक खूब आवड दिवपी काणयो ह्या साहित्यांत भरीत आसय. ह्यो काणयो सामान्य प्रसंगांतच भावनेचें विश्व फुलवपांचें कार्य करताय. कथा सांगपाची पद्धत सादी आनी सरळ. विशय, पात्रां आनी प्रसंग भुरग्यांचे परिचयांचे. ह्यो काणयो भुरग्यांक मनोरंजन प्रदान करपाच्यो आनी तांची बुद्धी वाडवपाच्यो.

"होळ्ळम्मालो काणियांचो पेटारो" भुरग्यां खातीर तय्यार केलेल्या तीस काण्यांचो संग्रह. हे संग्रहाचे तीन भाग - सानि काणियों, शांतिवनाच्यो काणियो, आनी वेंचिल्यो लोककाणियो. सानि काणियो पंचतंत्राचे रीतीन बरयल्याय. ह्यो पांच आसय. ह्या काणयांतली पात्रां - मांकड, सोस्सी, हस्ती, बोकोडु, पड्डो, माजरी आनी कोल्लो. भुरग्यांक ओड लावपी ह्यो काणयो भावचित्रणांत आनी भाषाप्रयोगांत सरळ आनी मनोहर आसय. 'मांकड आनी सोस्सी', तांचे दोगांचेय संगाता लागून निर्माण केल्या. A friend in need is a friend indeed (आपत्कालाक पांवचो खरो मित्रु) - हो ह्या काणयेचो संदेश. "आपदा च परित्राणां शोकसन्तापभेषजम्" म्हणपाची पंचतंत्राची उक्ति ह्या काणयेक फाटभूंय तयार करता. 'हस्ति आनी भुंडो' काणी कीर, चानी, गुरबजी, आनी मांकडाले संगाता लागून बरयल्या. 'बोकोडु आनी पड्डो' तांचे दोगांचे संगाताची काणी सांगता. संगाता लागून आपत्कालाक त्राण कशें मेळटा होच काणयेचो विशय. 'मांकड आनी उबूचो कांबळो' भुरग्यांक परोपकाराचें म्हत्व सांगून दिता.

शांतिवनाच्यो काणियो पुस्तकाचो दुसरो भाग. ह्या भागांत पक्षिमृगादीले

शान्त जिणे पासून वर्णन केल्यां. ह्या शान्त जिणेचे कारण म्हळ्यार एकमेळ. एकमेळ ऐश्वर्याची फाटभूंय तयार करता म्हूण ह्या काणयांतल्यान भुरग्यांक जाणविकाय दिल्या. मांकड शान्तिवनाचो वैद्य. सर्वमृगांकय तो रोगविमुक्त करपाचो प्रयत्न करता. ह्या काणयांत परोपकाराच्या प्रभावा पासून सांगीलें आसा. 'परोपकारार्थमिदं शरीरम्' हांगा भो म्हत्वाचें. वासुवैद्याली शुश्रूषा त्या रानांक स्वर्गासमान करून आसा. ताळ्यांत गुंटी शिरकावून आयिलें चानये पील. पाय ओळकून आयिलें चितळा पील. पोटा दुकियेन आयिलें कीरा पील. हाड ताळ्यां शिरकलें घुगूम, सगलेच शुश्रूषेक वासुवैद्याकडे पावंताय. 'सोस्या पिलानी विष खेल्लेली काणी' वासुवैद्याले परोपकाराचें उत्तम उदाहरण। भुरग्यांक बरे वाटेन परोपकाराची बुद्धी वाडोवपा खातीर ही काणी भो म्हत्वाची. 'फोडांत पळ्ळेले चितळांली काणी' भुरग्यांक भो आवड दिवपी आनी रूच वाडोवपी. कोल्या काणी आनी घोणिये काणी दुष्टांले चपक्यांत सून शिष्टजन कशें वांचून येत्ताय ह्याची जाणविकाय भुरग्यांक दिता. दृष्टपणाक दुष्फल मेळटा म्हणपाची शिकवण भुरग्यांक मेळटा. हाराली काणी, सिस्सरेली काणी, हंसपक्षाली काणी, काळे मंकडाली काणी, वागाली काणी, सग्ग काणयो वासुवैद्याले बुद्धीची करामात आनी परोपकारा संबन्धी विवरण दित्ताय.

तिसरे भागांत वेंचिल्यो लोककाणयो भुरग्यां खातीर पुनःकथन केल्याय. ह्यो काणयो - खुरडे भाज्जेची काणी, सत्रकारिणीली चोरायो, मिरियाकणाली काणी, आंबो खावनु कासवु जाल्लो, केळीक व्हर्डीक कोरची काणी, भांगरा सिस्सोरो, पात्तळेचो रूकु, सात भातांची काणी, भांगरा चेल्लो, भांगरा केसाची राजकुमारी, सोळा शिंगा रायु, दोनि राजकुमार, दुगुल आनी रुकाचें बावलें, चेल्लो आनी सूणे, आनी सित्ती आनी मांकड. आश्चर्याची घडणूको ह्या काण्यांत देखीक मेळटाय. ह्यो घडणूको भुरग्यांक भो आवडपी. खुरडे भाज्जेचे काणयांतलो नागदेव, सत्रकारिणीली चोरायांतले आश्चर्यांचे दन्तें, बुडकूलो आनी बोड्डो, मिरियाकोणाले काणयांतलो भांगरा नाण्याचो दुदि, आंबो खावनु कासवु जल्लो काण्यांतलो आश्चर्याचो आंबो, भांगरा सिस्सोरो काणयेंतु फुल्लां घालून शापमोक्षु

(सिसर्याक मनीषु करप), कज्जोल्या लेंडि वाटूनु पुसून राजकुमारालें देह आनी मत्तें थापप आनी मेल्लेले राजकुमाराक जीव घालप, बांयचे उदकांत बुडून चेल्यालें आंग भांगार जावप, आंगार घाल्यार घालेल्यांक देखूक येवनातीलो चोग्गो आदी भुरग्यांक मनोरंजन दिवपी घडणूको.

कथाविशेष आनी कल्पनाबंध बालसाहित्याचे दोन मुखेल घटक. भुरग्यांखातीर वत्सला आर. शेणैन बरयलेल्यो अनेक काणयो कल्पित आनी अदुभुताचें घटक भरलेल्यो. काणयाचें हें रूप भुरग्यांक ओड लावपी. हे संग्रहांत आमचे आचार विचार, रीति नीति, धार्मिक विश्वास, आशा निराशा, सुख दुःखां मनोहरतायेन अभिव्यक्त जाल्यां. उपदेशात्मकता ह्यांचो मुखेल स्वर. उदाहरणाक दुगुल आनी रुकाचें बावलें भुरग्यांक अशे तरेन शिकवण दिता कि पापाचो परिहार प्रायश्चित्त. व़िश्वास मनशाक राखता, ही शिकवण चेल्लो आनी सूणे काणी दिता. सिस्सरेली काणी आपणाले स्वार्थाक जावून दुसर्यांक जे फट्टयताय ते धूर्त परिहासाचे पात्र जाताय आनी जेन्ना तांगेले गुपीत फुटता तेन्ना ते दुर्दशा भोगताय म्हणचे संदेशाची वाहक. भुरग्यालें कोरे कागज़ जशे मस्तिष्कांत नवे नवे विचार भरूक आनी तांका नीतीचे वाटेक हाडूक ह्यो काणयो गरजेचें काम करताय. संस्कृत भासेंत अशे एक म्हण आसा -

यथा नवमृद्घटे लग्नः संस्कारो नान्यथा भवेत्
कथाच्छलेन बालानां नीतिस्तदिह कथ्यते

वत्सला आर. शेणै हन्नि होळ्ळम्मालो काणियांचो पेटारो ह्या संग्रहांत काणयां वाटेन मनोहरतायेन भुरग्यांक नीति शिकवपाचें काम केल्यां. बालप्रबोधन आनी मनोरंजन ह्या संग्रहाचें मूल उदिष्ट.

ह्या संग्रहांतल्यो काणयो सैमासृष्टींतल्या साबार सभावगुणाचें बेसबरें दर्शन घडयता. बऱ्या वायट वृत्तीचेर उजवाड घालता. कांय काणयो भुरग्यांक सजग जावून काम करपाची प्रेरणा दिताय. लोकांतली फूंकि-फटवण आनी तांत सून त्राण पावचें मार्ग ह्या काणयांत वर्णन केल्याय. भुरग्यांक मित्रांचें, एकमेळीचें,

सामाजीक संबन्धाचें, खाणामेणाचें, सुद्धा जिणेचें मोल इत्तें?-ह्याची जाणविकाय ह्या संग्रहातल्यो काणयो दित्ताय. सौमांतल्यो तरेकतरा गजाली ह्या काणयाचे भित्तल्ले विशयांक सौन्दर्य प्रदान करताय. मनाचे भाव, हावेस, आनी विचार सादे सुटसुटीत भासेन सांगपाची पद्धत भुरग्यांली रुच वाडोवपाक सहायक जाल्या. अशें ह्यो काणयो व्हान आसनूय गुणांक महत्व दिवपी. वाठाराचो शीमो हांत आडावण जावचे ना. ह्यो समग्र समाजांतल्या बालकांच्यो आसय.

केरळ देशाच्या कोंकणी भासेंतलो हो पयलो प्रयत्न. श्रीमती वत्सला आर. शेणै ह्या प्रयत्नाक अभिनन्दन करपा योग्य आसा. केरळांतले भौशी वेव्हारांत बालसाहित्याक अधीक सुवात जोडून दिवपा खातीर असले प्रयत्न आनीकूय जांवक आसा. बालमनोविज्ञानाचो आदार घेवून बालसाहित्याचें निर्माण करूक आसा. वैज्ञानीक साहित्याचो आदार घेवून नवें नवे विशयांचेर भुरग्यां खातीर काणयो रचपाचें आसा. केरळाचें कोंकणी बालसाहित्य अशें घाटमूट करूंक जाय आनी ताची सत्त आनी स्फूर्त वाडोवंक जाय. हेंच साहित्य भुरग्यालो सर्वांगीण विकास सत्तीन करपाचें. फाटले कांय वर्सात केरळांत कोंकणी बालसाहित्याचे मळार जें साहित्य निर्माण जाल्यां तें चडशें नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयल्यां. श्रीमती वत्सला आर. शेणै केरळाचे बालसाहित्याची मुखेल कथालेखिका, हांचें साहित्य मलयाळम लिपीन तयार जाल्यां. श्रीमती सूर्या अशोक हन्नि हें साहित्य एकठांय करून संग्रहाचे रूपान कोंकणीची मूल लिपी देवनागरींत लिप्यांतर करून आमचे मुखार दवरल्यां. हें कार्य भो प्रशंसनीय. 'होळ्ळम्मालो काणयांचो पेटारो' नावांच्या ह्या संग्रहांतल्यान केरळाची कोंकणी कथालेखिका वत्सला आर. शेणै हन्नि भुरग्यां खातीर बरयलेल्या काणयांचो परिचय कोंकणी समाजाक मेळटलो म्हूण हांव आस्त करतां.

**डॉ. एल. सुनीता बाय**
स्कूल ऑफ कोंकणी स्टडीस
सुकृतीन्द्र प्राच्यविद्या शोध-संस्थान
कोची - ६८२ ०३२

# सानि काणियो

- मांकड आनी सोरसी
- हस्ती आनी भुंडो
- बोकोडु आनी पड्डो
- माजरी आनी कोल्लो
- मांकड आनी उबूचो कांबळो

# मांकड आनी सोरसी

एक आंब्या रुकारी एक मांकड राबतालें. एक दिसा रुकावेलो आंबो तुंटोवनु खांवचाक बेसल्ले मांकडान रुका मूणांत कसलकी शब्दु आयकीलो. खालाक पळ्ळेले सुके पाल्यांत इत्तेंकी सोदून एकि सोरसी भोंवता. यें दिकून मांकडान निमगीलें-

"इत्तें सोरसे - तूं थांगा सोदीता?"

मांकडाक दिकून सोरसेक भय जाल्लें. जाल्यारीय तीणे धैर्यान सांगीलें-

"खालाक आंबे पळ्ळेले आसाय वे म्होणु सोदीता तं. हांवेंय मिगेले पिल्लांनीय खाण खावनु दोनी दीस जाल्ले. आमगेले घरा मुकारी एकु चोरु कोल्लो आमकां खांवचाक राकून बेसला तं. भयान घरा भायर देंवचाक सरी जायना. आमी दोनी दीसांक उपाशी पळ्ळीं."

"आंब्याक वे प्रयासु. चोयी हांव येदो आंबो खाल घालीन. तूं वेंचून काडी."

मांकडान रुकाचे खांदे हालयले. बुडु-बुडु जावनु पांच स पिकल्ले आंबे खालाक पळ्ळे.

"पूरो मांकडा, जांवका जाल्लेले आंबे मेळ्ळे. तुका कशी उपकारु सांगूका म्हुण माका कळना." सोरसेन सांगीलें.

"तें कांय ना. तूं दिसदीस हांगा यो. तुका हांव आंबो दीन." मांकडान सांगीलें.

लागीचे दिसाय सोरसी पावली. आंबो खालाक घालनु दितना मांकडान निमगीलें - "खंय सोरसे तुगेलें घर?"

"सल्प दूरा न्हंयचे पाडीक तं. थांगा खांवचाक भोरनु पाचूवे पाल्ले, तोण सग अस्स. जाल्यार तो कोल्लो कारण आमकां भायर देंवचाक सरि

जायना जाल्यां. काली तूवें दिल्लेले आंबे खावनू मिगेले पिल्लांक संतोषु जालो. ते कोल्या विचारान राति एकि घडि सरी नीद पळ्ळीना माका. आतां ताका फटोवनु तं हांव आयल्यां."

"जाल्यार तूं एक कायरीं करी, तुका विरोध ना जाल्यारी ये आंब्या रुकाचे पोंदाक येवनू राब. हांव तुका घर कोरनू दितां. हांगा जाल्यार खुशालं आंबो, पेर सग खांवचाक मेळतलें."

सोस्सेक संतोषु जाल्लो. तीणे सांगीलें - "हांव फायीची पिल्लांक घेवनु येत्तां."

मांकडान रुका पोंदाक सोस्सेक राबूक जावनू घर तयार केल्लें. हेरदूसा सकाणी सोस्सी पावली. चंद दिसचीं धवींच दोनी पिल्लां तिजे ओटू आशिल्लीं.

मांकड रुका मूणांतु आंबे राशी कोरनू दवोरनू तिका राकून राबीलें. आंबे दिकून तानी पोट भोरनू खेल्ले.

तेद्दूस धोरनू तानी मांकडान कोरनू दिल्लेले घरांत सुखान राबीलीं. मांकड दिसदीस तांका खांवचाक मळमळतराचीं फळां हाणू दित्तलें. सोस्सी रेंवे पोंदाक जांवचे चिन्नी कणंग, खुंटा कणंग, मांडें सग खोणु मांकडाकय हाणू दितली. तशी तीं न्हंयतूले उदाकय पीवनु खुशाली खाणय खावनू भोंवतालीं.

एक दिसा मांकड रुकारी लांबून, मात्तें खाल पाय ऊंच कोरनू विंदुळ्ळ्यावरी जूंय काडतालें, यो अभ्यासु सग चोवनू सोस्सी आनी पिल्लां खालाक हासूनु राबीलीं. खुशाली दाकोंवचे मद्दें मांकडान छट जावनू खालाक साकून एकि बोब आयकीलीं. चोंवचानिक तो चोरु कोल्लो हांगाय पावनू सोस्सेक धरता तं.

आयो, सोस्सेक कशीच कोरनू वांचोंवका मूं! अशी आठोवनू मांकडान रुकार साकून एकु हरवो आंबो काणू कोल्याक सोणू मारलो. आंबो मात्याकच

लागून कोल्लो बोब घालनू लकून लकून धावलो. धांवतना थांगा आशिल्ले एक फोंडांत पळ्ळो.

ते वेळान सोस्सी होगी पिल्लांकय घेवनू घरांत निपली. कोल्याक फोंडांत साकून भायर येंवचाक जायना जाल्लें. मांकड रुकार साकून होगी खालाक देवनू आयलें. आनीक थांगा पळ्ळोलो होळ्ळो एकु पाषाणा फातरू धिंगूळनु, धिंगूळनू फोंडांत पळ्ळेले कोल्या मात्यार घाल्लो. कोल्लो मोरनु गेल्लो.

तशी येदे दीस गेल्ले. कोल्याचें भय नातिलें सोस्सी आनी पिल्लां सुखान भोंवताय. एक दिसा मांकड खाण आनी जावनु रुकारि निद्देवनु पळ्ळेलें. सोस्सीय तिगेले घरांत आशिल्ली. भायर पाल्ले करडूचो शब्दु आयकून ती भायर येवनु चोयली. एकु शिकारी तागेलें पिंगार्त घेवनु मांकडाक मारूक तयार जाता. मांकडाक वांचोंवचे खातीर सोस्सेन शिकार्याले पायाक एकु घासु मारलो. शिकार्याक समच दुकलें. तागेलें पिंगार्तातुलो गूळो मांकडाक लागलोना. पिंगार्ताचो शब्दु आयकून मांकड जागें जावनू वेगळे रुकारी उडकी मारनू निपलें. शिकारी रित्ते हातान परतलो. तशी कोल्या तोणांत साकून रक्षण केल्लेले मांकडाक, शिकार्याले हातांत साकून सोस्सेनंय वांचयलें.



# हस्ती आनी भुंडो

एक रानांतु एकि हस्ती आनीक तिगेलो मोगाचो भुंडो राबतालीं. भुंड्याक चौग जाण मित्र आशिल्लीं - एकु कीरु, एकि चन्नी, एकि गुरबजी अनीक एक मांकड.

एक दीसु हस्ती भुंड्याकय घेवनू खाण सोदून रानांतु भोंवताली. छट जावनू मनुष्यानी खोळ्ळेले एक होळ्ळे फोंडांत हस्ती पळ्ळी. भुंडो ते वेळार: सल्प दूरा तं आशिल्लो. एक झाडार भोरनू पक्कियो दिकून तो अतिशयान चोवनू राबिल्लो. अम्मा फोंडांत पोडचो शब्दूय तिगेलो हुंकारूय आयकून तो ते फोंडालागी धावलो. भुंड्याक दिकूनु हस्तेन सांगीलें- “पुत्तो... तूं फोंडा देगेरी येवनाका. भाग्य आसा जाल्यार हांव कशीय कोरनू भायर येन. तूं आतां हांगा थाकून वच. घरकडे धांव. शिकारी आतां पांवतले. तूं हांगा राबल्यार तुकाय धोरनू व्हरतले.”

भुंडो रोणू तागेले घरकडे धावनू गेल्लो. तागेलें होळ्ळें रण्णें आयकून मित्रां तेगांय पावलीं. जाल्लोलो संभवु सग भुंड्यान तांचे लागी सांगीलो.

“तूं भीवनाका, आमी आसय न्हय वें तुका? आमी कशीय कोरनू तुगेले अम्माक फोंडांत साकून ऊंच काडूक श्रमू पावूं.”

गुरबजी भुंड्याक कूट बेसली. कीरान ताका खांवचाक येदे पिकल्ले आंबे हाणू दिल्ले. चन्नेन केळी तोपांत वोचून जायतीं केळीं हाणू दिल्लीं. तानी चांग उत्तर सांगून तागेलें रण्णें राबोवनू खाण खावयलें. राति सगोळ भुंडो अम्माक आठोवनू रोणू पोळ्ळो. फालें जांवचानिक मित्रानी दूशेरि ताका खाण खावयलें.

गुरबजेन वोचून तांगेले आनी एक मित्र मांकडाक उळदून हाळ्ळें. ताजे लागी हस्तेलीं कायरीं सांगीलीं. मांकडाक पाप दिसलें. हस्तेक कशी रक्षण करतलीं म्होणू तानी आलोचन केल्ली. जायती वाटो सांगील्यो. म्हळ्यारी

तें कांय चोंवकूचे वरी ना. तांतु मद्दें भुंड्यालें होळ्ळें पोट भरलेंना आशिल्लें दिकून तो बेसून रडता. मांकडान ताका खांवचाक कोब्बु, अनवास सग हाणू दिल्लें. कोब्बु हाडूक वचानिक थांगा वागमुंयांक दिकील्यो. मांकडान हस्तेलें कायरीं तांचे लागी सांगीलें. धा बारा वागमुयो ताजे माग्ल्यान भुंड्याले घरकडे आयल्यो.

"यो भुंड्या! आमकां इत्तें कोरूक जाता म्हूण चोव्या." म्होणु वागमुयानी सांगीलें. सर्वय कोरनू हस्तेन पळ्ळेले फोंडा लागी गेल्लीं. थांगा चार पांच शिकारी आनी दोनी वेगळी हस्तीयो कोरनू भुंड्याले अम्माक ऊंच काडूक चोयताय दिकीलें. वागमुयो दोनी भागू जावनू ते दोनी हस्तेंचे सोंडाळेंत चोणू बेसल्यो. भुंड्याले अम्माक फोंडातु साकून ऊंच काळ्ळेलेंय वागमुयो सोंडाळेंत घास मारूक लागल्यो. दुकेन विडविडेवनु, हस्तीयो दोगांय हुंकारून अळतापेळतांत भुंजल्यो. हस्तीयो भुंजली दिकून शिकारी आनी एकडे जाल्लेले सर्वय भीवनू चारी दिकारीय शिंवडले. शिकारीले हातांत साकून वांचल्ली हस्ती धावनू भुंड्यालागी गेल्ली. तशी भुंडो, अम्मा हस्ती, मित्र सग संतोषान घरकडे परतलीं.



# बोकोडु आनी पड्डो

मणिया एकु बोकोडु, सोमा एकु पड्‌डो. दोगांय होळ्ळे मित्र. लागलागीचे घोट्यांत राबताय. तेका घरकडचे गायचो पूतु तं सोमा. बडका घरकडचे बोकडी पुतु तं मणिया. एक वोंयचे अळतापेळतांतु तांगेलें घोटे. सकाणी खाण दीवनु मणियाक आनी अम्मा बोकडीक तोण, पाल्ले सग खांवचाक भायर सोडतलीं. वेगळी बोकड्यो, पिल्लां सग कोरनू एकसानीच भायर भोवनु खावनू देनपारां पोरतून येतलीं.

सोमाक भायर खंय सोडप ना. सकाणी घोट्यांत साकून निसरावनू परमांतूले खंचेय रुका पोंदाक व्होरनु बांदून घालतलीं. बोकडान तोण खावनू परतून येना फडे भायर दिकिल्लें कायरीं सग सोमा लागी सांगप आसा.

एक दीसा दोग जाण खाडयाळे मनीष आयले. ते मणियाक आनीक सोमाक आपोणू, उबारनू सग चोयले. तें जावनू दोगांलेय घनियांक दुड्‌ड दिल्ले आनीक फाले येवनू व्होरूं म्होणु सांगून गेल्ले.

बोकोडु पड्याक दिकूक धावलो. वोंयचे उंचावेल्यान मातें घालनू सोमाक उळदीलो.

“सोमा, आमकां उबारनू चोयलेले कोण म्होणु तुका कळता वे? ते मांसाचे ब्यारी तं. आमकां दोगांकय धनियानी ते ब्यारेल्यांक विकीले!”

यें आयकून पड्याक भय जालें. आनी इत्तें करतलीं?

“सोमा, तूं भीवनाका, आमकां हांगा साकून धावनु वचा. माका रानांतुली वाट सग चांग जावनू कळता. आमी केदणाय वचे लागी होळ्ळें रान आसा. खाणाक, उदकाक कांय प्रयासु जावना.”

“आमी कशी वतलीं मणिया? तूंच सांग.” सोमाक जाल्यारीय भय गेल्लेंना.

“तूं एक कायरीं करी, आजी राति गोमटेक बांदीलें दोर तुंटोवका.

चाबून चाबून एदे घडियांक फुगोवनू ओडिल्यार दोर तुंटतलें. तें जावनु आमकां दोगांकय कोरनु हांगा साकून वोचूं."

राति सगटांनी निदेवनु पळ्ळोलो वेळू. सोमान चाबून चाबून दोर तुंटयलें. तागेली अम्मा निदेवनातिलें दोळ्यांतु उदाक काणू राबिल्ली. ताणे अम्मा लागी वोचून वचाक अनुवादु घेतलो. अम्मान ताका मोगान लेवनू 'तुका देवु राको' म्होणू अनुग्रहु दिल्लो. तागेले दोळे भोरनू विकरले. शब्दु कोरनातिलें तो मणियाचे लागी गेल्लो. मणियाय दोर तुंटोवनु तयार जावनु राबिल्लो. तोवय अम्मालगी सांगून भायर सरलो.

समयु पर घालनतिल्लें दोगांय चमकून चमकून होळ्ळे रानांतु पावले. एकेक घुघुमाचें, कीडी रण्णें सग आयकून तांकां भय जाल्लें. दोगांय थापून थापून चमकीले. फालें जांवचानिक भोरनू तोण सग आशिल्ले एक स्थायारी पावले. पोट भोरनू तोण खावनू लागी आशिल्ले तोळ्यांत साकून उदाक पीवनू दोगांय थांगा लागी एकडे पोणू निदेले.

सल्प घडि जावचांनिक लागी लागी येंवचे गातांचो शब्दु आयकूक आयलो. शत्रु कोणेय जाल्यारीय मारूक तयार जावनू राबुया. चांग धार आशिल्लें शींग आसा. शिंगान खोंचून, मस्तकान मारनूय, पायानी फफ्रा दीवनूय आमकां शत्रूक धांवडांवका, अशी म्होणू ते धैर्यान तयार जावनू राबीले.

जाल्यारी शत्रु कांय न्हय आयलेलीं. पन्नास साठी चित्तळां तं. एकसाणीच धावनु येंवचो शब्दु तं आशिल्लो. चित्तळांक सग दीग, शिखरांचे शींग आशिल्लें. चित्तळांचे नेतान निमगीलें- "तुमी कोण? इत्याक हांगा आयल्याय?" सोमान आनी मणियान कायरीं सांगीलीं. चितळान सांगीलें. "मित्रानो तुमी भींवका नाका. हांगा शत्रु कोण नाय. तुमकां धैर्यान हांगा राबूयात. आमकां भांवुडां सरी एकमेळीन राबूं." तशी मणिया आनी सोमा तांचे ओटू ते रानांत सुखान राबीले.



# माजरी आनी कोल्लो

एक भत्ताचे पेर्यांत विंदुर येवनू भात खावनू बादा दिताय दिकून ताजे धनियान एक माजरीक हाळ्ळें. माजरी चांग दाष्टीकी. एक विंदुर सरि दवोर्नत्तिल्लें तुतल्यांकय तीणे नाशु कोरूक आरांभिलें.

माजरेक दोग जाण पिल्लां जाल्लीं. चंद, मोवाळीं पिल्लां. पिल्लां सल्प होड जांवचानिक माजरेन तांकां माळ्यार साकून खालाक आंगणांत हाडूक आरांभिलें. आंगणांत पोणू तीं खेळतलीं, वोतांत हुनसाणी घेतलीं, पक्कियेक धोरूक भोंवतलीं, तशी सग जावनू दीस वताच तीं होळ्ळीं जावनू येताय.

एकु दिसु एकु कोल्लो खाण सोदून थांगा पावलो. माजरे पिल्लांक दिकून ताका तोणांत उदाक आयलें. 'थोर थोरांची आसाय मूं यीं पिल्लां! कसलो सुवादु आसतलो हांकां!' अशी आठोवनू तो तांकां धोरूक चोवनू राबीलो.

माजरी जाल्यार चांग नीद. तीणे बी दिकल्यारी भुरकून सोडतली. तें दिकून लागी वचाक वाट ना. आनी इत्तें करप? तशी राबिल्ले वेळार एक पील खेळनू खेळनू ताजे लागी पावलें. एक उडकेक पील कोल्या तोणांत पावलें. कोल्लो धावलो. पिल्लालें रण्णे आयकून माजरी उठायली. चोंवचानिक एकु कोल्लो पिल्लाक घेवनू धांवता. ती रोणू मागल्यान धावली. तो वेगळे वाटेवेल्यान रानांत चोणू निपलो.

माजरेक भारी दुःख जाल्लें. दोनी दिस्सांक ती मळियेरीची पळ्ळी. कोल्यान एक पिल्लाक खेल्लें. आनियेकाकय खावना म्होणू आसा बी वे? ते कोल्याक साबाव सोडूक नज. ताका नाशु कोरका. आलोचन कोरनू तिका एकु उपायु दिसोलो. लागीचे रुकार राबूचे म्होवा मूसांचे राणियेक दिकूक

माजरी धावली. राणिये लागी तीणे तिगेलें दुःख सांगीलें. तिगेले दुशेरे पिल्लाकय कोल्लो खातोलो म्हळ्ळेले दुःखान ती खोळसां काणु रळ्ळी. राणियेलें मन दुकलें. तीणे धा पन्नास मुसांक कोल्याक सोदूक पेट्टेयले. निपून बेसल्ले कडे साकून कोल्लो माजरीले दुशेरे पिल्लाकय खांवचाक म्होणू भायर देविल्लो. म्होवा मुसांनी ताका दिकीलो - उषार जावनू ते कोल्याक खोंचूक लागले. कोल्याले नांकांत, दोळ्यांत, आंगाक सर्वय मुसांनी खोंचून कोल्लो मोरनू गेल्लो. तशी माजरी आनीक पील सुखान राबीलीं.







# मांकड आनी उबूचो कांबळो

एकडे एक मांकडा पील खाण सोदून रानांतुल्यान भोंवतालें. रुकारी साकून रुकारी उडकी मारनू तें दूरा रानांचे देगेर पावलें. थांगा एक रुका पोंदाक् इत्तेंकी कोवोळनू दवरलेलें ताणे दिकीलें. इत्तेंय खांवचे बी जाल्यार चोवयां म्होणू ताणे तें विसकळायलें. चोंवचानिक चंद एकु कांबळो. तें ताजेरी चोणू बेसलें, निदेवनु चोयलें, लोळनू चोयलें. तशी सग कोरनू वेळू गेल्लोलो ताका कळ्ळोना.

पोटाक जाल्यारी चांग भूक लागता. आनी इत्तें की करप? घरकडे अम्मान इत्तेंय हाणू दवरलेलें आसतलें. अशी ते कांबळ्यारी बेसून ताणे आठोवनू होडान सांगीलें-

“देवा हांव आतां घरकडे पावलोलो आशिल्लो जाल्यार उत्तूलें चांग आशिल्लें”.

छट जावनू कांबळो हाल्लोलो. मांकड भीवनू कांबळ्यारी पाकडी घेवनू बेसलें. कांबळो ताकाय घेवनू उबून घरालागी पावलो. पुताक राकून राबिल्लीं तागेलीं अम्मा बप्पा यें चोवनू, तोंड ‘आं’ कोरनू राबल्यांय. मांकडान तांचे लागी जाल्लेलें कायरीं सग सांगीलें. तांकांय ताजेरी चोडका म्होणु आशा, तेगांय कोरनू कांबळ्यार चोणू बेसलीं. मांकडा पिल्लान सांगीलें - ‘न्हंयचे़ लागी व्हर’. कांबळो उबून न्हंयचे लागी देवलो. तांकां रसपती दिसली.

मांकडांक आतां चांग सूख जाल्लें. उबूचे कांबळ्यारी बेसून तीं एकेक दीस एकेक कडे वतलीं. एकेक तोपांत वोचून खुशाली आंबो, पेर, काजू, केळें सग खावनू कांबळ्यारी पोरतून येतलीं. तशी एदे मास गेल्ले.

तांगेले रानांतु एकु दीसु एकु सिंहु पावलो. थांगा आशील्ले एक गुफेंत वासु कोरनू रानांतुले एकेक मृगांक तो धोरनू खांवचाक लागलो. एक

दीसा चितळाक जाल्यार दुशेरे दीसा सोरस्याक. तशी जांवचानीक मांकडान सर्व मृगांकय एकडे केल्लीं आनीक सांगीलें- 'मित्रानो! काली एक म्हशीचे पिल्लाक दिकूक ना म्होणू रानांत म्हणतालीं. आजी चितळाक धरलें. अशी गेल्यारी यें रान तो रित्तें कोरतोलो. ताका धांवडांवचाक जावो दिंशी मारूक जावो जावना. तें दिकून आमकां वेगळी वाट चोंवका. तुमकां कोणाकय इत्तेंय सांगूक आसा वे?'

कोण कांय उल्लेयनाय. घुगूमान लोवूच सांगीलें - "न्हंयचे पेलतडीक हिंस्त्र मृगां कांय राबून नांय. म्हळ्यार पेलतडी कशी वतलीं? सवण्यांक उबून वचात, जाल्यारी..."

मांकडान सांगीलें - "व्हय वे? जाल्यार तेंच चांग. आमकां एकु उबूचो कांबळो आसा. तुमकां विश्वासु आसा जाल्यार हांव तुमकां न्हंयचे पेलतडीक पांवयता. ताजे मुरथम हांव पेलतडी वोचून चोवनू येतां. थांगा आमकां जांवका जाल्लेलें खाण, उदाक, राबूक सौकर्य सग आसा जाल्यारी आमकां आजीच वोचूं."

मांकडाक पेलतडी आशिल्लें रान चांग जावनू बोय जाल्लें. परतून येवनू ताणे सर्व मृगांकय तयार जांवचाक सांगीलें. मांकड उबूचे कांबळ्यारी एक चितळा कुटुंबाक व्होरनू पेलतडी सोणू आयलो. मागीरी सोरस्से, मोरू, म्हशी, साळेरी, डुकरां, गाडवां तशी तशी सर्वय हांव मुकारी हांव मुकारी म्होणु आयलीं. सर्वांकय मांकडान उबूचे कांबळ्यारी पेलतडी पांवयलीं. कीरू, घोणी, घुगूम, कुंबास्तरी, वागूळे तशी सग सवणी उबूनुय पलतडी पावलीं. तशी मांकडाले सहायान सर्व मृगांय पेलतडी वोचून वांचलीं. एक दीसा मांकडा पिल्लान उबूचे कांबळ्यारी परने रानांत वोचून चोंवचानीक सिंहू कांय खाण नातिल्यान मोरनू पळ्ळा दिकीलें. तशी उबूचो कांबळो आसा दिकून मांकडाक जायतो परोपकारु कोरूक साध्य जाल्लें.



# शांतिवनाच्यो काणियो

- सोरयां पिलांनी विष खेल्लेली काणी
- फोंडांत पळ्ळेले चितळांली काणी
- कोल्याली काणी
- घोणियेली काणी
- हाराली काणी
- सिरसरेली काणी
- वागाली काणी
- गाडयाक धरलेले कोलसूण्याली काणी
- हंसपक्षाली काणी
- काळे मांकडाली काणी

# सोस्या पिलांनी विष खेल्लेली काणी

शांतिवनांतु मृगां, सवणीं सग चांग स्नेहान, एकमेळीन राबताय. शांतिवनांतुलो वोयदू तं वासु म्हळ्ळेलें मांकड. वासु वोयदू एकु होडु परोपकारी. सगटांकय केदनाय सहायू कोरचो. तागेले बुदवंतकायेनी तो वनांतुले मृगांक कसलेय आपत्तांत साकून वांचयतालो. सुख नातिले मृगांचें लागी बेसून, एक परसून, गोडच दोनी उतरां उलोवनू वोयदू तांकां समाधान करतलो. तावळीच तांगेलो अर्दु रोगूय वतलो. वोयदाले वोकदाक जाल्यारी अछड फल तं.

फालें जातनाच वासु वोयदालो सहायी कीरू रानांत भोंवतोलो. एकेकल्या लागी विशेषु निमगीतलो. कोणकोणाक सूख ना म्होणू जाण जावनू तावतावळी वासु वोयदाक जाणेयतलो. तांकां सग वासु वोयदू वोयदीक करतलो.

एकु दीसु वासु वोयदू घरकडे आयलेले रोगींक वोयदीक करतालो. ताळ्यांत गुंटी शिरकावनू एक चान्ने पील, पायु ओळ्कून आयिल्लें चितळा पील, लेका भायर पेर खावनू पोटा दुकी घेवनू कीरा पील, विंदराक गिळतना हाड ताळ्यां शिरकल्लें घुघूम अशी सग भोरनू येवनू बेसूनासय.

गुंटी शिरकले चन्ने पिलाक चोयतना कीरु उबून पावलो. “दोनी सोस्या पिलां मोल्या हादीर बोधक्षय जावनू पळ्यांय. तांका होगी वोचून वोयदीक कोरका. तांगेलीं अम्मा बप्पा थांगा बेसून रडताय.”

कीरान सांगिल्लें आयकून वासु वोयदू इत्तें कोरका म्होण चोयलो. हांगा जाल्यारी जायती मृगां येवनू बेसूनासय. जाल्यारीय तांगेले मोगाचे सोस्या पिल्लांक वांचोंवका. तें दिकून वोयदान पुताक उळदीलो आनीक जांवका जाल्लोलो निर्देशु दिल्लो. नीलूकय वोयदीक कळता. घरकडे आशिल्यांक चोंवचाक नीलूक सोळ्ळो. वासु वोयदू आनीक कीरु कोरनू मोल्या हादीर

गेल्लीं.

सोस्या पिल्लां दोगांय दोळे धांकून उलोवनातिल्लें पळ्यांय दिकीलें. लागी भोरनू राबीले मृगांक दूरा काणू वोयदू तांचे लागी पावनू चोयलो. सोस्सो आनी सोस्सी दोळ्यां उदाक काणू लागी बेसूनाशिल्लीं. तांचे लागी वोयदान निमगीलें :-

"हान्नी आजी इत्तें कि खेल्लेलें?"

"मोल्यारी वोचून खुंटाकणंग खावनू येत्तालीं तं. घरकडे पांवचाक जाल्लेना. ताजे मुरथम अशी जाल्लें." सोस्सेक सांगता सांगता खोळ्सां फुटलीं.

"वोचो सोस्से. कायरीं मनांत जाल्लीं. हाका वोकद आसा. तूं भीवनाका. मोल्यारी खुंटाकणंग खांवचाक येंवचे विंदुरांक वीष दवरप आसा. तें पोटांत गेल्लेलीं लक्षणां तं यीं, भीवनाकाय". अशी सांगून वोयदान तागेले चिलांत साकून येदेच वोकदा पाल्ले काणू घष्टून ताजो रोसू दोगांय पिल्लांचे तोणांत थेंबायलो. वेगळें एक तेल काणू हुंगयलें. एदेची घडियांक राकून चोयलो. जाल्यार फल कांय दिकूक येना - तावळी वोयदान सांगीलें -

"न्हंयचे पेलतडीक एक झाड आसा. ताजे पाल्यां रोसू पीवयल्यारी खंचे वीषय देंवतलें. म्हळ्यारी तें कशी हाडतलीं?"

यें आयकून कीरान सांगीलें-

"तें प्रयासु आशिल्लें कायरीं न्हय, हस्तेक उळदिलार ती पोवनू पेलतडी पांवतली. हस्तेक उळदून हाडता वे?"

"जावो"

कीरू बाणू सोळ्ळेल्या वरी उबोलो. घडी भितरी हस्तेक घेवनू

पावलो. वासु वोयदाक हस्तेन फाटीर चडयलो. हस्ती वोयदाकय घेवनू न्हंयतू पोवनू पेलतडी पावली. वोयदू उडकी मारनू खालाक देवलो आनी थांगा सग सोदून तें झाड हुमाटून काळ्ळें. हस्तेन वोयदाक फाटीरी चडयलो आनी परतून हाडलो. सोस्या पिल्लांचे लागी पावनू वोयदान वोकदा पाल्ले घष्टून पीळनू रोसु काणु तांचे तोणांत रकयलो. ताणे सांगीलें -

"वोकद दिल्यां. आनी सगटय देवाले हातांत तं आसा. राकून चोवया."

सगटय सोस्या पिल्लांक चोवनू राबीलीं. भाग्याक एकल्यान दोळे विसकळायले. घडि भितरी दुशेर्यानय दोळे सोळ्ळे. वोयदाकय थांगा आशिल्यांकय बहु संतोषु जालो. देवाक सगटानीय उपकारु सांगीलो. वोयदान सोस्या पिलांक एकेक फळ दीवनू पेटेयलीं. आनी कोणे यें रान सोणू भायर वोचून कांय खाण खांवचाक नज म्होणूय सांगीलें. सगटय संतोषान परतलीं.



# फोंडांत पळ्ळेले चितळांली काणी

शांतिवनांत एक़ दिसा मृगयेक जावनू एदेच शिकारी आयले. मृगांक धोरूक जावनू होळ्ळे होळ्ळे फोंड खोणू ते गेल्ले. फोंडांत पळ्ळेले मृगांक धोरनू व्होरूक लागीचे दीसा ते परतून येतले.

हेरदूसा सकाणी दोनी चितळा पिल्लां तरणेंच तोण खावनू नांचून खेळनू धांवचे वेळारी छट जावनू एक फोंडांत पळ्ळीं. भयान दोगानीय होळ्ळी बोब घाली. सोवदू आयकून कीरान वोयदाकय अन्य मृगांकय जाणेयलें. वासू वोयदू तागेले दोनी चारी मित्रांकय घेवनू फोंडालागी पावलो.

चितळांक होगी फोंडांत साकून वांचोंवका. तोडोव केल्यार शिकारी पांवतले. हस्तेक उळदून हाडूक वोयदान कीरा लागी सांगीलें. बावगून राबून;तिजे सोंडाळेन चितलांक ऊंच काडयात म्होणू तं वोयदान लेकिलेलें. जाल्यार कीरान सोदून हस्तेक खंय मेळ्ळीना. ती न्हंयचे पेलतडी आशिल्ले तिगेले मामाक दिकूक गेल्या म्होणू कीरा लागी एक गुरबजेन सांगीलें. कीरू परतून आयलो.

आनी इत्तें करप? वोयदान रानांतुल्यो एद्योची वाल्यो हाडयल्यो. वाल्यो काणू बांदून वोयदान एक पाळ्ळें सरी केल्लें. ताजे चारीय तलवाक चारी थोरीच वाल्यो बांदील्यो. चारी तांतूय एकेक मांकडान त्यो वाल्यो धरल्यो आनी पाळ्ळें फोंडांतु देवेंयलें. एक चितळा पिल्लाक तांतू चोणु बेसूक सांगीलें. मांकडानी पाळ्ळें वोडून ऊंच काळ्ळें. चितळ वोयदाक उपकारु सांगून धावनू गेल्लें.

लागीचे चितळाक ऊंच हाडूक पाळ्ळें दुशेरी फोंडांत देवयलें. पाळ्ळें उबारतना शिकारींलो सोवदू आयकीलो. चितळ भीवनू थडथडेवनू फोंडांतूच पळ्ळें. सगटय भिल्लीं. पिंगार्त घेवनू शिकारीन लागी पांवचे फूडे ताका

थांगा साकून धांवडांवका. ते खातीर वोयदान कीराक पेटेयलो. कीरू उबून शिकारी लागी गेल्लो. वोयदान सांगून सोळ्ळेले वरीच शिकारीन पिंगार्त काडचे फूडेच तांचे दोळ्यांत चोंचीन खोंची मारली. आठोवनातिल्ले वेळार मेळ्ळेले खोंचीचे दुकीन मिडमिडेवनू शिकारी थांगा साकून धावले.

ते वेळान वोयदान आनी मित्रांनी कोरनू ते चितळा पिलाकय वांचयलें. सर्व मृगांय तांगतांगेले घरकडे परतलीं. हस्तेन परतून येंवचानिक वोयदान सांगून फोंड पुरयलोय.



# कोल्याली काणी

एक दिसा छट जावनू शांतिवनांतुले मृगानी एकि बोब आयकीली. रानांत एकु दुष्टु कोल्लो पावला. तो एक चितळाक धोरनू वोडून घेवनू वता. रानांत पळ्ळेली बोब वासु वोयदाले कानांतूय पावली. वोयदू होगी भायर देवलो. चितळाक कशीय कोरनू वांचोंवका. तें नंतणा रानांत आयिल्ले ते दुष्ट कोल्याक दिंशीय मारका. ना जाल्यार तो आनिकय मृगांक धोरनू खातलो. वोयदान कीराक कोल्यालें घर सोदूक पेट्टेयलो. कीरु उबून उबून एकेकेल्या लागी वाट निमगून कोल्याले गुफे लागी पावलो. खंपाळे मोल्यार एक गुफेंत तो कोल्लो चोणु वता कीरान दिकीलें.

ताणे परतून वोचून वोयदा लागी कायरीं सांगीलीं - "ते दुष्ट कोल्या लागी चोवनू जांवका वचाक. ना जाल्यार तो वोयदाकय धरतलो!"

वोयदान सांगीलें - "तें सग वाट आसा कीरा. आमगेले मित्र गांदार्ली मूस आसाय मूं! तांकां उळदूं. ते सहायु करतले. तशी वोयदू आनी कीरु कोरनूं गांदार्ली मुसांले रानांत पावलीं. तांचे नेता मूसू घूडाचे भायर भोंवतालो. ताजे लागी वासु वोयदान कायरें सांगीलें. वोयदाक सहायु कोरूक तयार जावनू नेता मुसु मित्रांकय घेवनू कोल्याले गुफेंत गेल्लो.

वोयदान सांगीले वरी मुसांनी उषार जावनु कोल्याक खोंचूक आरांभिलें. कोल्लो विडविडेवनू रानांतुल्यान तेकबडका धावलो. दोळ्यांनी चोंवचाक जावनातिलें मुसांची खोंची घेवनू सुजून आड ऊड धावनू एक होळ्ळे पाषाणा फातराक धाडवून तो मोरनू पोळ्ळो.

दुष्ट कोल्लो मेल्लो म्होणू आयकून मृगां सग धावनू पावलीं. गुफेंत साकून चितळाक वोयदान भायर देंवयलें. सगटानीय वोयदाक उपकारु सांगीलो.



# घोणियेली काणी

एक दीसा वासु वोयदाक दिकूक एक घोणी आयली.

“वोयदा माका मनांतू दुःख त्रासूक जायना. मिगेले बायलेन तीनी फंता मोट्टे घाल्ले. मोट्टे कोणे व्होरनातिल्लें राकूचे खातीर आमी दोगांय तीनी फंताय परतून परतून भोंवलीं. जाल्यार तिनीय फंताय आमगेले मोट्टे कोणकीं फारनू व्हेल्ले. कशी तें म्होणू आमकां कळना.” घोणियेन रोणू वोयदा लागी सांगीलें.

“जावो, हांव तुमगेलें घर आनी लागी सग येवनू चोयतां. मागीर इत्तें कोरका म्होणू चोवया.”

तशी वासु वोयदू घोणियेचे ओटू घोणियेले रानांत गेल्लो. घोणियेले घरांत ताजी बायल दुखान बावनू पळ्ळेली. होळ्ळे एक रुकाचे उंचार तं घुडू आसा. थांगा कोणाक चडूक जातलें? तानी दोगांनीय राकून बेसूनूय कोण कशी मोट्टे फारनू व्हरता? वोयदू थांगा सग भोवनू चोयलो. रुका मूणांत सुके पाल्यां भरसी एकि सरपा काति दिकीली. हां तावळी हांगा सोरोपु आसा न्हयवें? अशी लेकून वोयदू रुकार उंचार चोणू चोयलो. घोणियेलो घूडू उबारनू चोयलो. यें इत्तें? घूडाचे पोंदाक एकु बीळ! आहां! तशी तं तावळी सोरोपू चोणू मोट्टे फारता न्हवें? रुकाचे मूळांत साकून ऊंच घोणियेचे घूडा पोंदाक भितरी तें बीळ आसा. सगट मनांत कोरनू वोयदू खालाक देवलो. घोणियेक उळदून सांगीलें - “तुमी भीवनाकाय. ये पावटी घालचे मोट्टे कोणे फारनू व्होरना. ते खातीर वाट आसा. यो आमकां मुंगूशे रानांत वचा.”

मुंगूशे रानांत वोचून मुंगूशे नेता लागी कायरीं सग सांगीलें. मुंगूशेन पेट्टेयलेले दोनी योद्धा मुंगूशेंकय घेवनू तीं रुका मूळांत पावलीं. सरपाचो वास

हुंगून मुंगूशीयो दोगांय बीळांत चळ्यो. मागीर थांगा चमकिल्लो एक गोंदोळूच तं आशिल्लो. एदोच वेळु जावनू एकली मुंगूशी एक सरपाकय घेवनू भायर आयली. थांगा राबून तीणे सरपाक चाबून तीनि कुटके केल्ले. दुशेरे मुंगूशीन बीळांत दवोरनूच आनी एक सरपाक मारनू घाल्लो.

वोयदाक उपकारु सांगूक घोणियेक उतरां पावनाय जाल्लीं. अन्य सवण्यांकय मृगांकय संतोषु जालो. आनीक सरपांनी कोणाक कष्ट दिंवचाक येवना! लागीचे फंता घोणियेन मोट्टे घालनू दोग जाण पिल्लां जाल्लीं. तशी तीं संतोषान राबीलीं.



7H8 5H

# हाराली काणी

शांतिवनांतुलीं मृगां खाण सोदून हांगा थांगा भोंवतालीं. छट जावनू एक होळ्ळी बोब आयकीली. वासु वोयद, कीरु आनीक एदींच मांकडां थांगा धावनू पावलीं. मृगां भयान थांगा साकून धांवताय. होळ्ळे एक पिंपळा रुका मूणांत एकु हारु एकु सोस्याक गीळता.

यें दिकून वासु वोयदू बेजार जालो. वनदेवीलो मोगाचो एकु प्रजा तं नष्ट जाता. आनी इत्तें वाट? वासु वोयदु होगी घरकडे गेल्लो. थांगा साकून एक चीलांत वोकदां आनी पेसकाती सगट भरली. तेंवय घेवनू धरार परतून हाराचे लागी पावलो.

हारु सोस्याक गीळ्नू जावनू एक होळ्ळे फातरा देगेर निद्देवनू पळ्ळा. योची चांगु समय. चीलांत साकून एक वोकद काणू वोयदान हाराक हुंगयलें. हारू हाल्लना. दोनी घडी जावनू वोयदान पेसकाती भायर काळ्ळी. हाराचें पोट चिरलें. पोटांत एक पेंदु सरी जावनू सोस्सो पोणु आसा.

वोयदान होगी सोस्याक भायर काळ्ळो. वोयदान सांगून एकलें मांकड सायळापान्नांत उदाक घेवनू पावलें. एदेंच उदाक सोस्याचे तोंडार फापुळें आनी एदेंच तोणांत थेंबायलें. आनी चीलांत साकून एक वोकद काणू हुंगयलें. सोस्यान लोवूची उदाक देवोंवचाक आरांभिलें. यें दिकून वोयदालें तोंड फुलजडेलें. थांगा एकडे जाल्लेल्यांकय बहु संतोषु जाल्लो. तानी देवाकय वोयदाकय उपकारु सांगीलो.

वोयदान थांगा सग सोदून एक झाड हाळ्ळें. सोस्याची आंगा दूकी वचाक जावनू ते झाडाचो रोसू पीळनू वोयदान ताका पीवयलो. वोयदु सोस्याक लोवूच पोरसून पोरसून बेसलो. सोस्यान दोळे सोळ्ळे. सर्वांक बहु सन्तोषु जाल्लो. हाराक सगटानीय उबारनू व्होरनू पूरनु घाल्लो. वोयदाचेरी मृगांक आशिल्ली प्रीती आनी बहुमानू एक लगेन वाडलो.



# सिस्सरेली काणी

एदेचि दिसांक शांतिवनांत शांती, समाधान भोरनू आशिल्ली. रानाचे तलवाक एक होळ्ळी तळय आसा. न्हंयतु साकून एदेंच उदाक केदणाय ते तळियेंत पडतालें. तशी ते तळियेंत बारायकाळ उदाक आसतालें. थांगा धा वीस म्हशीयो, पिल्लां सग कोरनू सुखान राबतालीं. न्हंयचे पाडीक दिगदीग तोण वाडून राबिल्लें आसा. तें खावनू ते तळयेंत बुड्डून, खेळनू त्यो म्हशीयो तांचे उतल्याक राबताल्यो.

एक दिसा तांगेले खाण आनी जावनू तळियेंत न्हांवचाक देवल्यो. छट जावनू एकलेन एकि बोब मारली आनी ती धावनू तडियेक चळ्ळी. बोब आयकून सर्व म्हशीयोय तडीक चळ्यो. मागल्यान पळ्ळेले एकली थोरीच म्हशीय दुकून बोब घालनू तं तडीक पाविल्ली. दुकून आयलेले म्हशीयांचे जांगेरी रगत होळतालें. जांगेचे मांस पिसूण काळ्ळेल्या वरी आशिल्लें. कायरीं इत्तें म्होणु कोणाक मनांत जायना.

नेता म्हशियेन सांगीलें - “यें अशी सोळ्यार नुपूरो. आमकांय ये तळियेंत राबुका नाका वे? आमकां सहायु कोरूक बुदुवंत वासु वोयदाक उळदूया. जांगेक रगत होळोवनु कशी की वोयदाथंय वतलीं? तें दिकून एकल्यान वोचून वोयदाक होगी उळदून हाडका”.

कायरीं आयकून वोयदु होगी पावलो. घाय जाल्लेले म्हशियांक वोकदं लावनू बांदून सोळ्ळें. आनीक सांगीलें. “लागलागी दांत आशिल्ले कोणेय चाबिल्लीं लक्षण तं यीं. उदकांत दवोरनु घास पळ्ळो दिकून सिस्सरी आसूक तं वाट. आनी कोणे आतां उदकांत देंवचाक नज. सिस्सरेक धांवडांवचाक इत्तें वाट म्होणू चोवया.”

वोयदु तळिये पाडींकं एक फातरार वोचून बेसलो. आनीक उदकांत चोयलो. कांय हालता दिकूक येना. तें जावनू न्हंयचे पाडीक वोचून चोयलो.

एदो वेळू तशी चोयतना दूरा साकून एक फळें सरी इत्तेंकी होळनू येत्ता. सूक्ष्म जावनू चोंवचाकय ती सिस्सरीच तं. हिका मारूक इत्तें कि वाट.

ये तोडवाक दोनी मांकडां धावनू आयलीं. रानांत मोल्या हादीर एक बोकडी मोरनू पळ्या. तिका इत्तें कोरका खंय तीं निमगिताय. वोयदाक एकि बुद्दि उद्देली. मित्र मांकडाचे कर्यान होगी ते बोकडीक उबारनू हाडयली.

कीरान वोचून हस्तेक उळदून हाळ्ळी. चांग बल आशिल्ले दोनी बोड्डे हाडयले. छट-छट जावनू कायरीं सग चमकीलीं. बोकडीक व्होरनू न्हंयचे पाडीक घाली. एक वालीचे तलव तिजे पोटाक बांदून अनियेक तलव एक रुकाक ओडून बांदिलें. सिस्सरीन बोकडीक वोडून न्हंयतू व्होरूक नज. हस्ती सोंडाळेंत बोड्डो घेवनू निपून तयार जावनू राबीली.

सिस्सरेन पाडीर पळ्ळेले बोकडीक दिकीली. ती होगी पाडीर चोणू आयली आनीक बोकडीचे मांस बुरडून खांवचाक लागली. त्या तोडवाक वोयदान हस्तेक हात दाकयलो. हस्तेन रुका माग्ल्यान राबूनूच सोंडाळेत आशिल्या बोड्यान सर्व शक्तीय घालनू सिस्सरेचे बोडार मारलो पेट्ट! सिस्सरेक हालूक जायना जाल्लें. बोड्याचे पेट्ट घेवनू धेवनू सिस्सरी हापोळू सरी जाल्ली. सगटांकय बहु संतोषु जाल्लो आनी वोयदाक उपकारु सांगीलो. सिस्सरेक आनी बोकडीकय पूरनु घाल्लीं. मृगां सर्वय संतोषान परतलीं.म्हशियांक दुशेरि भय नात्तिल्लें तळियांत देंवयात जाल्लें.



# वागाली काणी

शांतिवनांचे देगेवेल्यान होळचे न्हंयतू पावसारी जावो गिम्मारी जावो भोरनू उदाक आसतलें. ते वनांतुलीं सर्व मृगांय उदाक पिंवचाक, न्हांवचाक ते न्हंयतू तं वतालीं.

एक दिसा न्हंयचे पेल्ले तडीक राबून एकु वागु उदाक पित्तालो. दोळे उबारनु आयले तडीक चोंवचानीक ताजे तोणांत लाळ भरली. उत्तूलीं मृगां क़ी राबून उदाक पित्ताय? कसलें आरोग्य कि तांकां! सर्वय थोर थोरच आसय. पेलतडीक वोचून तांकां धोरनू खेल्लींना जाल्यार भारी नष्ट जातलें. ताणे मागीर तोडोव केल्लोना. न्हंयतू उडकी मारली. शक्तीन पोवनू पेलतडीक पावलो.

भय इत्तें म्होणू कोळनातिल्लें समाधानेन भोंवचे चितळा हींडु एकु ताणे दिकिलो. होगी उडकी मारनू एक चितळाक धोरनू खेल्लें. चितळांची बोबाट आयकून वोयदू, मित्रु आनी कीरु पावलो. वागाक दिकून तीं सग भयान स्तब्द जाल्लीं. शांती भोरनू आशिल्ले शांतिवनांत एकु वागु देवला. आनी समाधानेन कशी भोंवतलीं? 'हाका जायत्तुतूले होगी सुसतांवका', अशी वोयदान मनांतूच शपथु काळ्ळो.

सर्व मृगांकय तांगतांगेले घराचे भायर देंवचाक नज म्होणू वोयदान निर्देशु दिल्लो. वागाक दिंशी मारूक एकु उपाय मेळ्ळोलासा. रानांत मद्दे आशिल्ले पिंपळा रुका चारीय दिकानय होळ्ळी खळी कोरका. रुका लागी साकून सल्प दूरा जावनू तं खळी आसुका. खळियेंतु पोणातिलें कोणाक रुका लागी वचाक जांवचाक नज. खळियेंत पळ्यार ऊंच येंवचाकय जांवचाक नज.

खळी कोरूक सर्व मृगांय एकडे जाल्लीं. हस्ती, मांकडां, सोरसे इत्या चन्नी पर्यान खळी कोरूक सहायु करताली. खोळ्ळेली रेंव सग तावतावळी

लागी पातळावन सोळ्ळी रुका लागी एक थोरच चितळाक राबयलें. ताका खांवचाक खाणय उदाकय दवरलें. खळियेचे उंचारी शिरपुटा कुटीके दवरले. बडियांचेरि पल्ले पातळायले. ताजे उंचार एदी एदी रेंव शिंवडायली. आतां चोयलारी थांगा खळी आसा म्होणू दिसुना सरी!

वोयदान मृगांक घरकडे पेट्टयलीं. वोयदूय चारी मांकडांय लागी आशिल्ले रुकांचेरी निपून बेसलीं. सिस्सरेक मारूक उपयोगु केल्लोलो बोड्डोय घेवनू हस्ती एक रुका मागल्यान राबीली. वोयदान सांगील्ले वरी जांवका जाल्लेली तय्यारी सग काळ्ळी. तें जावनू चितळान तावतावळी बोब घालूक आराबिलें. मृगांक सोदून मेळनातिल्लें भोवतालो वागु. ताणे चितळा शब्दु आयकीलो.

“आहा! आजी एक चितळ! अशी लेकून वागू लाळय होळोवनू थांगा पावलो. चितळाक दिकून वागान गरजून एकि उडकी मारली. बुदुम! वागु फोंडांत! ऊंच चडूक जांवनात्तिल्लें गरजूचे वागाचे मात्यार हस्तेन बोड्याचो एकु पेटू दिल्लो. मांकडांनी हातां मेळ्ळेले फातर, रुका शिरपूटां सग विंदीलीं. घडियेन घडियेन हस्तेले बोड्या पेट्ट घेवनू वागु मोरनू गेल्लो. तशी वासु वोयदाले उपायान ये फंताय शातिवनांत शांति आयली.



# गाडवाक धरलेले कोलसूण्याली काणी

शांतिवनांचे लागी आशिल्ले गांवचें एक गाडव वाट विसोरनु राना लागी पावलें. तशीणान वचे एक कोलसूण्यान ताका दिकीलें. थोर, तरणे माँस आशिल्ले गाडवाक दिकूनिक कोलसूण्याचे तोणांत लाळ भरली. 'हाका कशी कि धरप?' ताणे आलोचन केल्ली.

शांतिवनांत उळदून व्होरनू कोण नातिल्ले स्थलार पावल्यार ताका मारनू खावूं. अशी निर्णय कोरनू कोलसूणे गाडवाचे लागी सरलें. गोड उत्तरां उल्लोवनू, गाडवाक घेवनू कोलसूणे शांतिवनांत चळ्ळें. सुकें तोण आनीक़ सुको बैकोलु खावनू पूरो जाल्लेले गाडवाक पाचुवें तरणेंच तोण मेळतलें म्होणू आयकून बहु संतोषु जाल्लो. तें नांचून उडकी मारनू कोलसूण्या मागल्यान गेल्लें.

उबून वचे कीरान तें दिकीलें. 'यें इत्तें?' अजन्मशत्रु कोलसूणे आनीक गाडव कोरनू एकसानीच चमकून वताय! हांतूं इत्तें की फटवण आसा. अशी आठोवनू कीरु होगी वोयदाचे लागी पावलो. थांगा जाल्यार धा तीस रोगी येवनू बेसूनासय. कीरान सांगिल्लें आयकून वोयदू होगी उठायलो. रोग्यांक चोंवचाक पुता लागी सांगीलें.

हे रुकार साकून ते रुकार तशी उडकी मारनू वोयदू कीरान दाकोवनू दिल्लेले स्थलार पावलो. पाप दिसलें ताका. तें गाडवच! कोलसूण्याक विश्वासू कोरनू ताजे ओटू आयल्यां. ताका कशीच कोरनू वांचोवका. तोडोवू केल्यार कोलसूणे गाडवाक सुस्तायतलें.

वोयदान कीरालगी सांगीलें -"साळेरीचे हिंडांत वोचून पाँच होळ्ळे साळेरेंक उळदून हाडी." म्होणू भितेरी होळ्ळे होळ्ळे कांटंयांचे पाँच साळेरि थांगा पावल्यो.

वोयदान साळेरेंचे लागी सांगीलें - "तें दुष्ट कोलसूणे ते साधू

गाडवाक आमगेले शांतिवनांत घालनू सुस्तायतलें. ताजे फूडे तुमि ताका दिंशी मारका, आनि कोणाक ताणे फटवण घालूक नज."

वोयदू आनी कीरु रुकारी बेसलीं. साळेरी पांचय कोरनू उषार जावनू तांगेले कांट्टे फुलजडावनू मुकार सरले. साळेरेंक दिकून कोलसूणे गाडवाक सोणू धांवचाक चोयलें. सर्व दिकांचानय साकून अस्त्र खोंबूचे वरी साळेरेनी सोव्ळेले कांट्टे वोचून कोलसूण्याक तोपले. कोल्याक खंयीच धांवचाक जाल्लेंना. साळेरे कांट्टे सर्वांग लागून बोबाट मारनू रगत होळनू कोलसूणे मोरनू पळ्ळें.

वासुवोयदु रुकार साकून खाल देवलो. भीवनु कडकडेवनू राबीले गाडवाक समाधान केल्ली. आनी सांगीलें - "गाडवा तूं आनी हांगाच राब. हांगा तुका कोण शत्रू आसूना. आमी सर्वय हांगा स्नेहान एकमेळीन तं दीस काडताय. तूंवय हांगा एकमेळीन राब." गाडवाक बहु संतोषु जालो.



# हंसपक्षाली काणी

एकडे एदींच हंसपक्षां राबतालीं. एक दीसा तांगेले नेतान सांगीलें- “आमकां वेगळे एक चांग स्थल सोदून वचा. हांगा राबून पूरो जालें.” तांका तशी तं. एदेची दिसांक एकडे राबिल्यारी मागीर स्थल परतून राबूका.

तशी हेरदूसा हंसपक्षांचो नेता चारी पांच मित्रांकय घेवनू नवें स्थल सोदूक गेल्लो. खंयीच तळें, तळय दिकील्यार थांगा देवनू चोयतले. खाण मेळूक वाट कांय ना म्होणू दिसल्यारी ते दुशेरी उबतले. देनपारां ते शांतिवनांत पावले. थांगा न्हंयचे देगेरी एक सानच तोळें तानी दिकीलें. तांतु भोरनू थांगा थांगा जावनू कमळां फुलेवनू राबिल्यांय. ताजे पल्ले उदकांत पोवनू थळथळेताय. हांसपक्षांक तो स्थायू आनी तोळें चांग बोय जाल्लें. तांतू देवनू उदाक पीवनू, मासऴेक धोरनू खावनू न्हावनू, खेळनू ते परतून गेल्ले.

लागीचे दिसा हंसपक्ष सर्वय एकडे जावनू शांतिवनांत राबूक आयले. चांग फूट उदाक, कमळां, कोळे सग भोरनू आसा. तीं संतोषान थांगा राबीलीं.

एक दिसा तांतूले एक हंसान घाली एकि बोब. तागेलीं मित्रां सग धावनू लागी पावलीं. चोंवचानीक ताजे गोंमटेक एक काळो विचू घासु मारनू राबीला. हंसपक्ष सर्वय इत्तें कोरका म्होणू बेचार जावनू राबिल्ले वेळार कीरू थांगा पावलो. कायरीं इत्तें म्होणू मनांत जांवचानीक वोयदाक उळदून हाडतां म्होणू सांगून तो बाणू सोळ्ळेल्यावरी उबोलो.

घडी भितरी ़वासु वोयदू वोकदा चीलय घेवनू पावलो. हंसपक्षु दुकेन विडविडेवनू रडता. विचु जाल्यार घालोलो घासु सोणा. वोयदान चीलांत साकून एक वोकद काळ्ळें. आनीक चारि थेंबे विचूले आंगार थेंबायले. हंसपक्षाचे गळ्यार साकून रगत थेंबेवनू ताजी धवीं पाकां तांबीडीं जल्लेलीं. वोयदाले तेलाचें फल दिकूक आरांभिलें. विचूलो घासु सडळू सडळू जावनू

आयलो. वोयदान एकि बड्डी काणू विचूक निसरावनू दूरा विंदीलो.

ये वेळान तागेलीं दोनी मित्र मांकडां लागेन थांगा पावलीं. तानी दोगांनीय कोरनू एक फातरीन धाडावनू विचूक लेखार केल्लो.

हंसपक्षाले घायाचें रगत सग पुसून काणू वोयदान ताका लोवूच पोरसून दिल्लें. तें जावनू एक तेल लावनू दिल्लें. तेद्दूसचे दिसाक गळो तिमोंवचाक नज म्होणूय सांगीलें. “काळो विचू दिकून विष आसतलें.” अशी सांगून एक वोकद घष्टून पीळनू रोसू काणू ताजे चोंचीत रकोवनू दिल्लो.

“रोस्सु पोटांत पावना फडे विष देंवतलें. भींवकानाका, कांय जावना. ये स्थलारी विचु दिकूक येवप ना बि. जाल्यारीय तुमी केदणायी चोवनू राबिल्यार चिन्ना. ये शांतिवनांत आमी सग स्नेहान एकमेळीन तं राबताय. तुमकां हांगा कोणे त्रास दीवना.” वोयदान सांगीलें. यें आयकून हंसपक्षांक समाधान जाल्ली. तानी वोयदाक उपकारु सांगीलो.



# काळे मांकडाली काणी

एक दीसा सकाणीची शांतिवनांत दोनी शिकारी आयले. तांकां दिकूनिक कीरान सर्व मृगांक आनी सवण्यांक विवोरु जाणेयलो. सगटय जीवा भयान तांगतांगेले घरांत वोचून निपलीं.

एक रुकार चारी पांच काळीं मांकडां राबतालीं. कीरान येवनू शिकारीलो विवोरु सांगिल्ले वेळार तांतूलो एकोलो भायर खंयीच गेल्लोलो. तें दिकून शिकारी आयिल्ले कांय तो नेण. पाल्यां मोद्दें निपलीं जाल्यारीय, शिकारीनी काळे मांकडांक दिकीलीं. तांका बहु संतोषु जालो. काळें मांकड अपूर्व तं. धोरनू व्होरनू विकल्यार चांग मोल मेळतलें. काळे मांकडाचे रसायन करताय. वोकद म्होणू ताकाय चांग मोल मेळतलें. हांकां कशीच कोरनू धोरका.

शिकारी चोयताय दिकून मांकडां चारी दिकारी आशिल्ले रुकांचेरी उडकी मारनू उडकी मारनू दूरा गेल्लीं. शिकारियांक ताकां धोरूक जाल्लेंना. तावळी तानी एक कायरीं केल्लें. तानी हाळ्ळेलें एक बोल्लें खालाक पातळायलें. ताजेरी येदे पाल्ले शिंवडायले. बोल्याचे मद्देंच एदींच फळांय दवरलीं. बोल्याचे एक तलव एक रुकाचे खांद्यारी बांदीलें. बोल्यारी चोणू फळ काळ्ळें जाल्यारी मांकडां बोल्यांत पडतलीं. तशी शिकारी परतले.

भायर गेल्लेले काळें मांकड हेरदूसा परतून येंवचानीक जायतीं फळां खालाक पळ्यांय दिकीलीं. फळां काडूक गेल्लेले काळें मांकड बोल्यांत पळ्ळें. ताणे बोब घाली. आयकून वोयदू आनीक मित्र पावले. मित्रां काळीं मांकडांय पावलीं.

तांतु भरशी शिकार्यांचो शब्दु आयकूक आयलो. वोयदान छट कोरनू एकु उपायु सांगीलो. मित्रां सर्वय तो उपायु तकीत कोरूक तयार जावनू राबीलीं. शिकार्यांनी येवनू चोंवचानीक बोल्यांत एक काळें मांकड पळ्ळेलें आसा. तांका बहु संतोषु जाल्लो. तानी हातांत आशिल्लें पिंगार्त एक रुका

मूणांत तेंकून दवरलें. आनी दोगांय रुकार चळ्ळीं. ते वेळान दोनी मांकडानी लोवूच वोचून पिंगार्त काणू न्हंयतू विंदीलें. शिकारी तें कांय नेणय. तानी रुकार चोणु खांद्यार बांदिल्लें दोर पेसकातेन कातोरनू मांकडाक बोल्लें सयत खालाक देवंयलें.

तांनी दोगांय खालाक देविल्लींय चारीय तांतु साकून काळीं मांकडां मुकार सोरनू चाळोंवचाक लागलीं. उत्तूलेची काळे मांकडांक एकसाणीची मुकार दिकिल्लेंय शिकारी पिंगार्त काडूक धावले. बोल्यांत पळ्ळेले मांकडांक ते विसरले. पिंगार्त सोदून भोंवचे वेळान काळे मांकडानी बोल्यां पळ्ळेले मित्राक उबारनू व्हेल्लो. वोयदान आनी मित्रानी कोरनू शिकार्यांक फातर सोणू विंदूक आरांभिलें. अशीणान तशीणान साकून फातरा पेट्ट घेवनू शिकारी रित्ते हातान परतून धावले. तानी सोणू गेल्लेली पेसकाती काणु वासु वोयदान बोल्लें कातोरनू काळे मांकडाक वांचयलें. सगटांकय होड्डु संतोषु जालो. वासु वोयदाले उपायाक आनी सहायाक तानीं प्रशंसा केल्ली.



# वेंचिल्यो लोककाण्यो

- खुरडे भाज्जेची काणी
- सत्रकारणीली चोरायो
- मिरिया कोणाली काणी
- आंबो खावनु कासवु जाल्लो
- केळीक व्हारडीक कोरची काणी
- भांगरा सिरसोरो
- पत्तळेचो रुकु
- सात भातांची काणी
- भांगरा चेल्लो
- भांगरा केसाची राजकुमारी
- सोळा शिंगा रायु
- दोनी राजकुमार
- दुगुल आनी रुकाचें बावलें
- चेल्लो आनी सूणे
- सित्ती आनी मांकड

# खुरडे भाज्जेची काणी

एकडे एकु ब्राह्मणु आनीक तागेली बायल कोरनु राबतालीं. ऊंच प्रायेरी ती गुरबीणी जाल्ली. एक दीसा तिका खुरडे भाज्जी खांवचाक दुवाळो जालो.

ब्राह्मणु खुरडे भाज्जी सोदून भायर सरलो. भोवनु भोवनु तो एक तळिये पाडीक पावलो. थांगा लवलवीची एकि भाज्जी राबील्या ताणे दिकीलें. ताणे होगी भाज्जी हुमाटून काळ्ळी. छट जावनू भाज्जे मूणांत साकून एक नागु भायर आयलो. ब्राह्मणु भयान कडकडेलो.

"हे ब्राह्मणा! मिगेली भाज्जी तूवें इत्याक काळ्ळी?" नागान कोपान निमगीलें.

"मिगेले गुरबीणी बायलेक खुरडे भाज्जी खांवका म्होणू दूवाळो. तें तं हांवे भाज्जी काळ्ळेली." ब्राह्मणान जाप दिल्ली.

"जावो. हांव नागरायु! तुका चेल्लो तं जाता जाल्यार तूंच काडी. चेल्ली तं जाता जाल्यार तिका बारा वर्षां जायना फडे माका दींवका."

ब्राह्मणाक कोपू आनी दुःख जाल्लें. जाल्यार ताणे भाज्जी व्होरनू बायलेक दिल्ली. तीणे भाज्जी रांदून ब्राह्मणाक वाळ्ळी. ताणे खेल्लीना. चांग स्वादु आसा म्होणू तीणे खेल्ली.

एदेची मास वचानीक ब्राह्मणाले बायलेक एकि चेल्ली जाल्ली. ब्राह्मणाक दुःख जाल्लें. रात्ति नागु आयलो. ताणे सांगीलें-"हे ब्राह्मणा! तुका चेल्ली जाल्ली म्होणु आयकीलें. तिका बारा वर्षां जांवचे दीसा तूवें तिका तळयेंतू न्हांवचाक हाडका. हांव थांगा येतलों."

ब्राह्मणान बायलेक कांय जाणेयलेना. बायल संतोषान धूवेक वाडोवनु

होडी करता. तशी वर्षां वोचून वोचून धूवेक बारा वर्षां जाल्लीं. सकाणीची ब्राह्मणु धूवेक घेवनु तळयांत न्हांवचाक गेल्लो. तळयेंत चांग दिसूचे एक कमळ राबील्यां.

"बप्पा, तें कमळ काणू माका दी बप्पा." चेल्लेन निमगीलें.

"धूवे तूं देवनु काडी." बप्पान सांगीलें.

**"पावलां भरी उदकांत देवली मूं बप्पा, कमळ दूर दूर वता!"**

**"न्हय गो धूवे, अम्मा तुजी खुरडे भाज्जी खाता!"**

"बप्पा कमळ दूरा गेल्लें मूं!"

"धूवे तूं दिंबी भरी उदकांत देंव."

**"दिंबी भरी उदकांतु देवली मूं बप्पा, कमळ दूर दूर वता!"**

**"न्हय गो धूवे, अम्मा तुजी खुरडे भाज्जी खाता!"**

"कुरटू भरि उदकांत देंव गो धूवे."

**"कुरटू भरी उदकांत देवली मूं बप्पा, कमळ दूर दूर वता!"**

**"न्हय गो धूवे, अम्मा तुजी खुरडे भाज्जी खाता!"**

"धूवे तूं गोंमटो भर उदकांतु देंव."

धूव गोंमटो भरी उदकांत देवलेलीय कमळ छट जावनू नागरायु जाल्लो. तिकाय धोरनू तो नागराज्यांत घेवनू गेल्लो.

ब्राह्मणु दुःखान रोणु घरकडे गेल्लो.

नागरायाले होळ्ळे रावळार मात्तीं पोवळें सग काणू बांदिल्लें तं. थांगा व्हारडीकेक जावनू सग तयार कोरनू दवरल्यां. चेल्लेक शिंगारनू वज्र,

केंपु, रत्न सगटाचें जायें घालनू भोरनु फूल माळनू तयार केल्ली. नागरायूय पाट्या वस्त्र घालनू भासींग आनीक बांदून मनुष्यरूपार राबीला. दोगांकय कोरनु व्हारडीक चमकीली. जेवणा वेळार व्होकलेन रोणु सांगीलें- "मिगेले घरकडे सर्वय माका राकून बेस्सलीं आसतलीं. मिगेली व्हारडीक जाल्ली म्होणूय, आनी हांव परतून घरकडे येवना म्होणूय अम्मा बप्पा लागी सांगूका." "यो जाल्यारी वचा. सगटांकय दिंवचाक उपहारु काडी."

तशी मनुष्यरूप धरलोलो नागरायु आनी बायल कोरनू भूमीर गेल्लीं. तांका दिकून तिगेले अम्मा बप्पाक होळ्ळो संतोषु जालो. तांकाय घेवनू ती नागरायाले रावळारांत गल्ली. थांगा तयार आशिल्ले व्हारडीकेचे जेवणांत भागु घेवनु व्होरेताक, व्होकलेक अनुग्रहूय दीवनु तीं संतोषान तांगतांगेले घरकडे परतलीं.



# सत्रकारणीली चोरायो

एकडे एकु बप्पा आनीक तागेली धूव राबतालीं. आशिल्ले स्थायार तीं एकेक वोवनू कोरनू दीस काडतालीं. धूवेक व्हारडीक कोरनू सोडचानिक बप्पा एकलोच जालो. कृषी कोरनू भोंवचे गोंदोळान रांदूक जावो खांवचाक जावो तो विसोरनू वतालो. हातांत मेळ्ळेलें इत्तेंय सगट मात्र खावनू तागेलें देह सुक्कलें.

एक दिसा एक पाड्या भांडीर चोणू तो धूवेथंय वचाक भायर सरलो. धूवेक दिंवचाक केळ्यां घडाय, सूर्णु, दुद्दी, कुव्वाळें तशी सगट भोरनू काळ्ळें.

धूवेथंय पांवचाकय बप्पाक दिकून धूवेक संतोष जालो. जाल्यार बप्पा खाण खांवनातिल्यान, सुकून आसा दिकून तिका रण्णें आयलें.

धूवेनय मांयनय सांगून धा बार दिसांक तो तांगेथंय राबीलो. धूवेन बप्पाक जाय जल्लेलें सगट कोरनू खावोवनू सोळ्ळो.

घरकडे वचाक भायर सरतना मांयन एक दांते दिल्लें.

तें एक विशिष्ट दांतें तं आशिल्लें. एक गेरशेंत तें दांते दवोरनू देवाक मनांत आठोवनू कसली पिट्टी जाय म्हणु दांत्यालागी सांगल्यार ती पिट्टी मेळतली. तशी कष्ट कांय काणातिल्लें खाण कोरनू खावयात.

मामाक संतोषु जाल्लो. आनी उपाशी पोडका नाका. तो दांतेंय मात्याऱ दवोरनू घरकडे वचाक भायर सरलो. वचे वाटेर राति काडूक एक सत्र आसा. दीवो लांवचे वेळारी मामू सत्रांत पावलो. मात्यार आशिल्लें दांते खालाक देवंयलें. सत्रकारणीन तें दिकीलें. तीणे निमगीलें -

"मामाक घरकडे दांते ना वें?"

"अक्का, यें एक विशिष्ट दांतें तं! आमी हाजे लागी निमगिल्ली

पिट्टी यें दितलें. गेरशेंत दवोरनू देवा आठोवनू निमगूका."

मामान हात पाय धुंवचाक तोळ्या पाडीक गेल्लेले तोडोवाक सत्रकारणीन विशिष्ट दांतें चोरलें. आनीक ताजे स्थायार तशीच दिसूचें वेगळें एक दांतें हाणू दवरलें. मामू यें कांय नेण. राती थांगा नीद काणू हेरदूसा सकाणी तो दांतेंय घेवनू घरकडे गेल्लो.

घरकडे पावनू न्हाण सग जावनू तो पिट्टी कोरूक बेसलो. गेरशेंत दांते दवोरनू वोरवा पिट्टी पोडो म्होणू सांगून ताणे दोळूक आरांभीलें. पिट्टी कांय पणा. दोळनू दोळनू ताका पूरो जाल्लें. ताणे तें दंद राबयलें आनी थांगा आशिल्लें वेगळें कसलेंय खावनू पोट भरलें.

पांच स मास तशी गेल्ले. मामू दुशेरी धूवेथंय वचाक जावनू भायर सरलो. पाड्या भांडीर भात, तीळू, आंबो, पोणोसू, काज्जूबी सग चडयलें. तो धूवेथंय पावलो. धूवेक संतोष जालो. बप्पाक तीणे एक दोनी मास थांगा राबूक सांगीलें. एक वारु वचानिक धूवेक एकु मिन्नो बाबु जालो. नामकरण, पाळ्ळ्यांत दवरप सग जालें. मामू नातुवाक खेळोवनू एदेच दीस थांगा सुखान राबीलो.

घरकडे वचाक भायर सरतना धुवेले मांयन निमगीलें - "मामू गेल्ले पावटीचे पशी चड सुकलो मूं. आतांय कांय कोरनू खावप ना वें?"

"तें दांत्यान दाळ्यार कांय पिट्टी पणा. मांत्रिक दांतें ते सत्रकारणीन चोरलें म्होणु दिसता."

"चिन्ना मू! आसो. ये पावटी एक बुडकूळो दितां. निपोवनू व्होरका." मांयन अशी सांगून एकु बुडकूळो दिल्लो.

एक पान्नार बुडकुळो उमती दवोरनू जाय जाल्लेलें सग ताजे लागी सांगल्यार तो  बुडकूळो तें सग दितलो.

मामू तो बुडकुळो आंवगल्यांत गुडलावनू मोटांत दवोरनू संतोषान

भायर सरलो.

सत्रांत पांवचानिक सत्रकारणीन निमगीलें- “खाण कोरनू दींवका वे? कि मोटांत फळारा पटळी बांदून घेवनू आयला?”

“अक्का, माका खाण कांय नाका, केळीचें एक पान मात्र दिल्यार पूरो.” मामान सांगीलें.

सत्रकारणीक अतिशय जालो. केळी पान काणू यो इत्तें कोरूक वता? तें एक चोंवका मूं. अशी आठोवनू तीणे एक केळी पान मामाक दिल्लें. मामान कूडांत चोणू कवड दिल्लें. ताका जाय जाल्लेलें पेज, रांवदयों सग जावो म्हूण बुडकूळ्याचे लागी सांगीलें. पानार बुडकूळो उमती घालो. बुडकूलो उबारनू चोंवचानिक पान्नार जेवणाक जाय जाल्लेलें सर्वय आसा. मामू संतोषान जेवलो.

सत्रकारणि निपून राबून कवडा शीरांतुल्यान चोयताली. तीणे कायरीं सग मनांत केल्लीं. हेरदूसा सकाणी उठावनू मामू न्हांवचाक तोळ्या पाडीक गेल्लो. तो वेळू चोवनू सत्रकारणीन विशिष्ट बुडकूळो चोरलो आनीक तसलोच वेगळो बुडकूळो मोटांत दवरलो. मामू यें कांय नेण. तो तागेली मोटय घेवनू घरकडे गेल्लो.

देनपारा जांवचाकय ताणे एक पान कातोरनू हाळ्ळें. आनीक जाय जाल्लेलें शीत रांवदय सग जावो म्हूण सांगून पान्नार बुडकूळो उमती दवरलो. बुडकूळो उबारनू चोंवचाकय कांय ना! मामाक रण्णे आयलें. सत्रकारणीन ये फंताय फटयलो म्हूण ताका कळ्ळें.

पांच स मास वचानिक नातुवाले बरस्याक सांगूक जांवय आयलो. मामांक संतोषु जालो. पाड्या भांडी भोरनू सामान आनी चेरडाक दिंवचाक भांगारं सग घेवनू मामू धूवेथंय गेल्लो. “बप्पा सुकून आस्सा.” ये पावटीय धूवेन सांगीलें. “बप्पाक बुडकूळो खाण दीना वें?”

“गेल्ले फंताय सत्रकारणीन माका फटयलो गो धूवे!”

मांयन तें आयकीलें. तीणे सांगीलें - “ओहो! ये पावटीय सत्रकारणीन फटयलें न्हय वें? राब, मामान वचे वेळार हांव एक विशिष्ट बोडो दीन.”

धूवेन धा पन्नेरा दीस बप्पाक घरकडे राबयलो. दूद, तूप सग खावोवनू बप्पाक तीणे थोरु केल्लो.

वचे वेळार मांयेन दिल्लोलो बोडोय घेवनू मामू सत्रांत पावलो. तागेली मोट कूडांत दवोरनू तो न्हांवचाक गेल्लो. तो वेळू चोवनू सत्रकारणि मामाली मोट विसकळावनू चोयली. तांतु आशिल्लो बोडो सत्रकारणीक मारूक लागलो. पायाक साकून मात्याक पर्यांत पेट्ट घेवनू दूकून सत्रकारणि बोब घालनू धावली. बोडो पेट्ट दीवनू दीवनू मागल्यानय! मामाक यें दिकून हासू आयलो.

दुकी सहन कोरूक जावनातिल्यान सत्रकारणि मामा लागी पावली.

“मामा, तुगेले बोड्याक धोरनू राबय! माका पूरो जाल्लें! माका मारकानाका म्होणू सांग! आयो! मामा! होगी! तुगेले बोड्याक उळदी.” अशी ती बोब घालता. “तूवें फारलेलें दांतें आनी बुडकुळो परतून दी. जाल्यार पेट्ट राबयन.” मामान सांगीलें.

सत्रकारणि धावनू घरांत गेल्ली. मामालो बुडकुळो आनी दांतें हाणू ताजे पाया मूणांत दवरलें.

“बोड्या राबय रे! आनी तिका मारनाका. तीणे फारलेलें सामान सग माका परतून मेळ्ळें.” मामान सांगीलें.

बोड्यान पेट्ट राबयले. बोड्डो वोचून मोटांत बेसलो. मामाक संतोषु जालो. हेरदूसा फाले फाल्यार दांतें, बुडकुळो आनी बोड्डो घेवनू मामू घरकडे गेल्लो. तशी मामू उपाशी पोणातिलें सुखान राबीलो.



# मिरिया कोणाली काणी

एकडे एकु ब्राह्मणू आशिल्लो. ताणे व्हारडीक कोरनू जायतीं वर्षां जालीं. चेरडूवां कोण जाल्लीनांय.

एक दीसा ब्राह्मणाले बायलेक सुख ना जाल्लें. केदणाय ब्राह्मणा गुणी आंगडींत शीत पांववप तीणे तं. तेद्दूस तिजान कांय नज. कशीच कोरनु शीत केल्लें. सारु कोरूक मिरिया कोणु काळ्ळो. आनी अशी म्हळ्ळें - "देवा, एक चेरडूं आशिल्लें जाल्यारी आंगडींत व्होरनू शीत दींवचाक तें वतलें आशिल्लें. मिजान कांय नज मूं देवा!" सांगून जाल्लेलेंय छट जावनू एकि जाप आयकीली. "अम्मा रोणाका, अम्मा रोणाका, हांव आंगडींत वोचून बप्पाक जेंवचाक पेट्टेयन." यें आयकून ती स्तब्द जाल्ली. "कोण रे यें माका 'अम्मा' म्हणता? माका चेरडूं ना मूं!"

"अम्मा, हांव तं, मिरिया कोणु, हांगा चोयी अम्मा." खंय तो.

तीणे चोंवचानिक सारु कोरूक काळ्ळेले मिरिया कोणांतुलो एकु होळ्ळो मिरियाकोणु उल्लेयता. तिका संतोषु जाल्लो. मिरिया कोणु जाल्यारीय चिन्ना, अम्मा म्हणता न्हय वें! 'जावो रे पुता' तीणे सांगीलें.

मिरियाकोणु गडगडेवनू ब्राह्मणाले आंगडींत पावलो. दुड दवोरचे पेळियेचे उंचारी चोणू ताणे ब्राह्मणाक उळदीलें - "बप्पा, बप्पा, आळतां चोय. दुडवाचे पेळियेरी चोय. हांव एकु मिरियाकोणु. आजी धोरनू हांव तुमगेलो पूतु तं."

"कोण रे तें? तूं वें? मिरियाकोणु जाल्यारीय तूंवें माका बप्पा म्होळ्ळो न्हय वें!"

"बप्पा, अम्माक सुख ना. तें दिक्कून शीत घेवनु येंवचाक जावना. बप्पा घरकडे वोचून जेवनू यो. हांव हांगा राबून हांगाचें कायरीं सग चोयन."

ब्राह्मोणू घरकडे गेल्लो. मिरियाकोणू पुतु जावनू मेळ्ळोलो दोगांकय

होड संतोषाक कारण जाल्लें. जेवण जावनू ब्राह्मणू आंगडींत गेल्लो. मिरियाकोणु पोरतून घरकडे गेल्लो आनीक अम्माक सहायु कोरूक लागलो. तशी ताणे केदणाय बप्पाक घरकडे जेंवचाक पेटवप आनी ते वेऴार आंगडी चोवप.

ब्राह्मणाक भोरनू गाद्दे आसय. तांतू भोरनू दद्दीणि वोयलेली आसा. दुद्दीया फळ जांवचाक आरांभुनीक प्रथमची तीनि फळां व्होरनू आंगडींत विकूक दवरलीं. एक शेटियारान एक दुद्दी घेतलो. तागेले बायलेन दुद्दी कातोरनु चोंवचानीक तांतु साकून भांगराचीं नाण्यां पळ्ळीं. शेटियाराक संतोषु जालो. नाण्यां वेंचून अलमारींत दवरलीं आनी ब्राह्मणाले आंगडींत साकून दोनी दुद्दी लगेन घेतले. कातोरनू चोंवचानिक तांतूय आसय भोरनू नाण्य.

शेटियारु ब्राह्मणा लागी धावलो. "तुगेले दुद्दी बहु चांग तं. आमी रांवदय केल्ली. मिगेले बायलेक जाल्यार केदणाय दुद्दिया रांवदय खांवका. तें दिकून तुगेलो गद्दो माका भाड्याक दिशी वे?" ब्राह्मणान एक वर्षाक शेटियाराक गद्दो भाड्याक दिल्लो. ते वर्षा जाल्लोलो दुद्दी सग शेटियारान काळ्ळो. तांतु भितरी आशिल्ले भांगरा नाण्यां सग ताणे काळ्ळीं. दुद्दी सोरूनिक गाद्दो ब्राह्मणाक सोणू दिल्लो.

वेगळें इत्तेंय वोवया म्होणू गद्दो कोसेयतना चिकलांत पूरनु पळ्ळेलें एक सानच दुद्दिया फळ ब्राह्मणाक मेळ्ळें. तें ताणे घरकडे व्हेल्लें. रांवदय कोरूक जावनू दुद्दी कातरतना तागेले बायलेक भोरनू भांगरा नाण्यां मेळ्ळीं. तीणे ब्राह्मणाक आनी पुताक उळदून तीं दाकयलीं.

"ये लेंकान शेटियाराक उत्तूलीं नाण्यां मेळ्ळेलीं आसतलीं! तें तं ताणे तो गद्दो भाड्याक काळ्ळोलो! आमकां फटोवनू शेटियारान नाण्यां सग हातांत केल्लीं. अर्द पुणीय आमकांय मेळका जाल्लेलें न्हय वें?" तानीं आलोचन केल्ली.

मिरियाकोणान सांगीलें - "बप्पा, वोचून चांग उतरान निमगीं. दिल्लेना जाल्यार हांव घेवनू दीन."

ब्राह्मणू शेटियारा लागी निमगूक गेल्लो. शेटियारान सांगीलें - "तुगेलो दुद्दी सग किडियाळो तं आशिल्लो. माका बहु नष्ट जाल्लें." आनीक ब्राह्मणाक कोपून थांगा साकून धांवडायलो.

मिरियाकोणाक चांग कोपु आयलो. "भांगरा नाण्यां घेवनूच तं आनी हांव घरक़डे येत्तोलों." अशी शपथ काणू तो भायर सरलो. वाटेरी दवोरनु एक दिवडाक दिकीलो. दिवडान निमगीलें - "खंय वता रे मिरियाकोणा तू?"

"मिगेले बप्पाक फटेयलेले शेटियाराक दिकूक वता तं हांव."

"जाल्यार हांवय येतां."

दोगांय कोरनू चमकीले. सल्प मुकारी वाटेरी एक दोराचो गुंडोळो पळ्ळो़लो दिकीलो. ताणेय निमगीलें - "मिरियाकोणु आनी दिवोड़ू कोरनू खंय वताय? सहायाक हांवय येत्तां." तशी दोराचो गुंडाळोय तांचे ओटू देवलो. सल्प लगेन वचानिक एकु थोरूची बोड्डो राबीला.

"तुमी तेगांय कोरनू खंय वतायी?" ताणे निमगीलें. मिरियाकोणान कायरीं सांगीलीं. "सोड़ूक नज ते चोराक. हांवय येतां तुमकां सहायाक."

तशी चौग जाणय कोरनू शेटियाराले घरकडे पावलीं. शेटियारु बेसून फडचान खाता. मिरियाकोणान सांगीलें - "शेटियारा, मिगेले बप्पाले दुद्दियांतुलें भांगार सग तूवें चोरलें. अर्द भांगरा नाण्यां पुणीय आमकां दींवका."

यें आयकून शेटियारान तोणांतुली पीकि थू केल्ली, आनीक कांयीच दिवना म्होणू सांगीलें.

मिरियाकोणाक चांगू कोपु आयलो. तो एक फातराचेरी वोचून झोरलो

आनीक शेटियाराले दोळ्यांतू पोणू गडगडेंवचाक आरांभिलो. दिवोडु चोरनू शेटियाराले गोमटेक वेष्टण घेवनू बाल कान्नांतू चडोंवचाक लागलो. दोरा गुंडोळो शेटियाराले पाय साकून गोमटो पर्यान बांदूक लागलो. मागीर बोड्डो चोवनू राबतलो वे? ताणेय पेट्ट दिंवचाक आरांभिलें.

दोळ्यांतूलें जळपय, गोमटेचें चिरडपय, दोराचो चरचरूय, पेट्टाची दुकीय सग जावनू शेटियारु बोब घालूक लागलो.

"राबयाय! माका दिंशी मारनाकाय! भांगरा नाण्यां दीन तुमकां. राबयाय!" खंय तो बोब मारता.

तें आयकून सगटय मागल्यान सरलीं. मिरियाकोणान वोचून बप्पाक उळदून हाळ्ळो. शेटियारान अर्द भांगरा नाण्यां ब्राह्मणाक दिल्लीं. तशी सगटय संतोषान परतून गेल्लीं.



# आंबो खावनु कासवु जाल्लो

एकडे एक रावळारांत एकु सन्यासी भिक्षा मागून गेल्लो. धर्मिष्ट आनी प्रजावत्सल ते रायाले रावळारांत जावो आंगणांत जावो एक चेरडाचीं पावलां सरी ते सन्यासीन दिकलीना. तें मात्र न्हय एक मृगा पिल्लाचें जावो सवण्या पिल्लाचें जावो पावलय दिकूक येना. यें कसलें विचित्र? सन्यासीन लेकीलें.

सन्यासी आयला दिकून एकि परिचारिका भिक्षा घेवनू आयली. सन्यासीन सांगीलें -

“ये आंगणांत एक चेरडा पावल सरी दिकूक ना. माका हांगाची भिक्षा नाका.” तो घूवनु वचाक गेल्लो. परिचारिका ताजे मागल्यान धावनू आयली.

“स्वामी क्षमा कोरका. आमगेले रायाक आद्यचे राणियेचेरी चेरडूवां जाल्लीनाय दिकून दुशेरे राणियेक व्हारडीक केल्ली. जाल्यार तिजेरीय कोण जाल्लेंना. रायु आनी प्रजा सर्वय होड व्यसनांतू बुडून तं आसाय.”

सन्यासीन तागेले खंदावेले चीलांत साकून एकु होडू पिकल्लो आंबो काणू दिल्लो. “यो एक विशिष्ट आंबो तं. हाजी पेशी राणियांनी खांवका. हाजी साली गांयक, घोडींक सग खावोंवका. तावळी तांकां चेरडूवां जातलीं.”

भव्यतेन तो आंबो घेवनू सन्यासीक उपकारु सांगून परिचारिका भितरी गेल्ली. सन्यासीय गेल्लो. ताणे सांगीले वरी कोरूक जावनू घेवनू वतना दुशेरी राणी धावनू पावली. आंबो दिकून तीणे उपून काळ्ळो आनीक ताशीलो. परिचारिकेन सांगीलें कांय आयकूनातिलें पेसून सर्व पेशीय तिणेची खेल्ली. होळ्ळे राणियेक कांय दिल्लीना. साली सग गांयक, घोडींक व्होरनू घालूक परिचारिके लागी दिल्ली. परिचारिकेन आंब्या पारि व्होरनू होळ्ळे

राणियेक दिल्ली आनी जाल्लेलीं कायरीं सग सांगीलें. ते राणियेन ती पारि तशीची गिळ्ळी.

एदेची मास गेल्ले. गांयक वासूरां जाल्लीं. घोडीक पिल्लां जाल्लीं. दुशेरे राणियेक चंदू एकु चेल्लो जाल्लो. होळ्ळे राणियेक जाल्लो एकु कासोवु! पारीचे वरी निबर करटे आशिल्लो कासोवु. रायाक आनी प्रजेक संतोषु जाल्लो. चेरडूवां जाल्लीं न्हय वें!

तशी वर्षां गेल्लीं. कासोवू आनी राजकुमार होड जाल्लीं. रायाक एक अपूर्व रोगु आयलो. रावळारांतुले वोयदान सांगीलें - "ये अपूर्व रोगाक एक औषध तं आसा. सात समुद्राचे पेलतडी एकु होळ्ळो पर्वत आसा. ताजेरी तं ते ओकदाचें झाड आसा. पोरमोळाचें झाड. ताजो रोसु काणु रायाक दींवका. जाल्यार मात्र तं रोगांत साकून मुक्ति मेळतली."

आयकिलेंची राया पूतु तारुवारी चोणू भायर सरलो. दोनि चारि समुद्र तारण कोरनू जांवचानिक ताका पूरो जाल्लें. तो परतून आयलो.

तें जावनू कासोवु भायर सरलो. भारी कष्ट काणू पोवनू पोवनू सात समुद्रय तारण कोरनू तो पर्वतारी पावलो. वोयदान सांगील्लीं झाडां एदींची हुमाटून काणू घेवनू तो परतून पावलो. वोयदान संतोषान झाडाचो रोसु काणू रायाक पीवयलो. रायाक रोगु ऊणे जाल्लो. सगटांकय बहु संतोषु जाल्लो. कासवाक अभिनन्दन केल्लें.

वर्षां तशी गेल्लीं. रायाक वर्ष प्राय जाल्ली. राज्यभारु कोणाक दितलीं? होळ्ळे पुताक तं आवकाशु. म्हळ्यारी तो एकु कासोवु! इत्तें कोरनू ताका राजभारु दितलीं? तशी आलोचन चमकता.

एक दीसा होळ्ळी राणी न्हणियेंत कोपर्या मागल्यान निपून बेसली. कासोवु न्हांवचाक आयलो. तागेलें फाटीवेलें करटें काणू निसरावनू दवरलें.

आनीक न्हांवचाक आरंभु केल्लो. ताणे मत्यार उदाक घालूनिक राणी होगी उठायली. करटें काणू कोपर्या रांदणींत घाल्लें, तें तावळीच जोळनू गोबोरु जाल्लें. आनी ती होगी भायर गेल्ली.

कासवान न्हाण जावनू चोंवचानिक करटें ना. करटें वचानिक तो मनुष्य रूपान भायर आयलो. सगटांकय संतोषु जाल्लो. मनुष्य रूपाचे होळ्ळे पुताक राजभारु सोंपून समाधानेन रायु गेल्लो.



# केळीक व्हारडीक कोरची काणी

एकडे एक गावांतु होडु एकु तारुवां ब्यारेली आशिल्लो. ताका चौग जाण पूत आनी एकि धूव. तशी आसतना तांगेलो बप्पा आनी अम्मा मोरनू गेल्लीं. म्हालगडे पुत ब्यारु कोरूक लागले. धाकूलो पुतु आनीक धूव सान दिकून तीं घरकडे बेसतालीं. तांका एकु कीरुय आसा. चांग बुदुवंतु कीरु. ताका उलोंवचाकय कळता.

धाकूलीं चेरडुंवांय होड जांवचानिक धाकूले पुतान सांगीलें - "ये पावटीक वचे वेळार माकाय व्होरका. भयणीक चोंवचाक कीरु आसा न्हय वें."

भयणीनय सांगीलें - "व्हय! तुमी सुखान वोचून येयाय. माका कांय जावना. माका भय ना." तिका एदेच मासांक जांवका जाल्लेलें सग एकडे कोरनू दीवनू ते ब्याराक गेल्ले.

एकि चेल्ली एकलीच राबता म्होणू आयकून एकि राक्षसि तांगेले घरकडे आयली. तीणे कवडारी मारनू कवड वाकतें कोरूक सांगीलें. कीरान सांगीलें - "धूवे कवड वाकतें कोरनाका. ती एकि राक्षसि तं. तुका धोरनू खातली." तीणे कवड काळ्ळेना. राक्षसीन कोपान सांगीलें- "राब गो, फाले मिगेले बामणाक आनीक पुतांक हाणू तुका धरता चोय!" आनी ती गेल्ली. चेल्लेक भय जाल्लें. कीरान सांगीलें - "धूवे, आनी आमी हांगा राबल्यार सम जावना. राक्षसि येवनू धरतली. आमकां हांगा साकून खंयी दूरा वचा."

कीरान सांगीले वरी तीणे वचाक आशिल्ली तयारी केल्ली. दोनी दिसांक आशिल्लें खाण, न्हेसूक वस्त्र, भांगार, उदाक भोरूक चेंबू सग एकडे केल्लें. घरा मागल्यान तं न्हंय. कीरान सांगून न्हंयतु एकु होळ्ळो रुका पेटारो घाल्लो. तांतु भितरी सामानय घेवनू ती चोणू बेसली. पेटारो

चोंचीन ओडून कीरान न्हंयतू मद्दे काणू सोळ्ळो. पेटारो लोवूच होळ्नू वचाक लागलो. एकि राति आनीक एकु दीसु तशी वचानिक पेटारो न्हंयचे पाडीक लागलो. चांग स्थल. बहु होड एक केळींचे तोप. भोरनू केळ्यां घडाय. हांगा राबल्यारी पोटा भूकेक केळिं खावयात. तानेक न्हंयचे उदाकय पीवयात. सात आट केळ्यो एकडे जावनू राबिलो एकु केळी हींडु आशिल्लो थांगा. चेल्लेन सामान सग व्होरनू ते हींडाचे मद्दे दवरलें. कीरु तिगेले म्हालगडे भावांक उळदून हाडूक म्होणू उबून गेल्लो.

दोनी दीस तीणे हाळ्ळेलें खाण सग खावनू ती राबीली. तिसरे दिसा राति खाण सग सरलें. पोटाभूक त्रासूक जायना. पिक्कलीं केळिं बि आसा जाल्यारी चोवया म्होणू ती लोवूची भायर देवली. केळ्यां घडायू सोदून वचानिक एक कडेन एक सानची कूडार दिकीलें. तिका अतिशयु जाल्लो. तांतु चोणू चोंवचानिक एक मांचारि एकु राजकुमार पोणु निद्देता. लागी एक बांकारि रुप्या पोळेरांत फळां दवरल्यांय, रुप्याचे चेंबांतु दूद दवरल्यां. यें सग दिकून तिका पोटा भूक चड जाली. शब्दु कोरनातिलें लोवूचि कूडारांतु चोणु फळां सग काणु कपडाचे वोरलांतू घालीं. आनी दूद काणु पिल्ली. शब्दु कोरनातिलें पोरतून गेल्ली. थांगा बेसून फळ एदें खेल्लें. एदेंच हेरदूसा खांवचाक दवरलें.

हेरदूसा रातीय ती न्हाण सग जावनू केस विसकळावनू घालनू ते कूडारांत गेल्ली. तेद्दूसय मुरथमले दिसाचे वरीची सग फळां काणू, दूद पीवनू ती परतून गेल्ली. रायापुतान चोंवचानिक दोनी दीस जावनू खांवचाक दवरलेलीं फळां आनीक दूद कोणकी चोरता. लागीचे दीसा कशीच कोरनू चोराक धोरका. राति निदेवनातिलें राबूक जावनू ताणे तागेले उंगटयाक खांड्यान एकु घायु घाल्लो. आनी ताजेर एदें मीट लायलें. तशी घायू जोळनू ताका राति सगळीच निद्देंवचाक जाल्लेना. मदराति जांवचानिक भायर पाल्ले करडूचो शब्दू आयकूक येता. तो जागरूढ जावनू पळ्ळो. कूडाराचे दारवोट्याचें

लुगट दूरा काणू एक रूप भितरी चळ्ळें. केस विसकळावनू घालनू, धवेंच कापड न्हेसून एकि सुंदरी. दिकिल्लेंच भयान ताणे दोळे धांकीले. तागेलें फळ सग काणू वोरलांत घालनू ती चेल्ली दूद पिंवचाक जावनू चेंबू उंचारी काडताली. उडकी मारनू उठावनू राजकुमारान तिजे हाताक धरलो.

तीणे भयान सांगीलें - "आयो! सोडी माका! आनी हांव हांगा येवना. यें सत्य!" कुमारान निमगीलें- "तूं कोण? खंय साकून येत्ता? इत्याक मिगेलें खाण खावनू वता? होगी सांग! ना जाल्यार.... मिगेलें खांडे दिकीलें वें तूवें?"

तीणे भीवनू सग कायरींय सांगीलीं. कुमाराक तिजेरी सहतापु दिसलो. ताणे सांगीलें - हांगा राबल्यारी तुका कसलेंय आपत्त येतलें. तें दिकून हांव तुका व्हारडीक कोरनू मिगेले रावळारांत व्हरन. फायी तयार जावनू बेसुका."

"आयो माका भय तं. मिगेले म्हालगडे भावांचे लागी सांगूनातिलें माका कांय कोरूक जावना."

"तें काय ना. हांव तांचे लागी सांगन. तूं तयार जावनू बेस!"

राजकुमारु रावळारांतु परतून गेल्लो. थांगा एकु दुखा मांचो आसा. दुख आयल्यारी खावनातिल्लें, जेवनातिल्लें ताजेरी वोचून पोडका. तावळी रायु, राणी सग कारण निमगूक येतलीं. तशीच राजकुमारु ते दुखा मंचारी वोचून पळ्ळो. रायु, राणी सग धावनू येवनु कारण जाण जाल्लीं. इत्तें आशा आसा जाल्यारीय चमकोवनू दीवूं म्होणू सांगीलें. पुतान मंनांत आशिल्लें अम्मा बप्पालागी सांगीलें. "माका न्हंयचे देगेरी आशिल्ले केळीचे तोपांतुले एक केळीक व्हारडीक कोरका. आतांच व्हरडीकेची तयारी कराय."

पुताली उत्तरां आयकून रायाक, राणियेक भय जाल्लें. पुताक इत्तें जाल्लें. कसलेंय भ्रम जाल्लें वें? वोकद कोरूक वोयदाक उळदून हाळ्ळो.

वोयदान चोवनू राजकुमाराक कांय ना. इत्तेंय कायरीं आसूनूच जावयात तो केळीक व्हारडीक कोरका म्होणू सांगता. तशीच चमकोवनू दियाय म्होणू वोयदान उपदेशु दिल्लो.

तशी केळी तोपांत एक होळ्ळो मांटोवु रायान घालेयलो. पुताक शिंगारनु व्होरेतु कोरनु बेसयलो. व्हारडिकेक जावनु आशिल्ली सर्व तयारीय कोरनु भटमामान व्होकलेक हाडूक सांगीलें. व्होरतालें तोंड संतोषान फुलजडेवनु आसा. "खंय रे पुता तुगेली व्होकल?" अम्मान राजकुमारा लागी निमगीलें.

"अम्मा तो केळीचो हींडु दिकीलो वे? तांतु मद्दें एकि चेल्ली आसा. ती तं:व्होकल. तिका हाडाय."

अम्मा आनीक परिचारिका कोरनु धावलीं. केळी हींडा मद्दे एकि चंदी चेल्ली शिंगारनु राबील्या. तांकां होळ्ळो संतोषु जाल्लो. 'व्होरताक साजूचीच व्होकल!' खंय सर्वय सांगताय. तेद्दे भितरी तिगेले दोनि भावांकय घेवनू कीरूय पावलो. तांकांय संतोषु जाल्लो. तशी राजकुमाराली व्हारडीक ते सुंदरी चेल्लीय जावनु चमकीली.



# भांगरा सिस्सोरो

एकडे एकि चेल्ली आशिल्ली. तिका अम्मा, बप्पा आनी एकि भयणी आशिल्ली. बप्पाक सानूच एकु ब्यारु. राबूक एक सानच घर. आशिल्यान तृप्ति जावनू तीं दीस काडतालीं. तशी आसतना तिगेलो बप्पा पक्षघात येवनू पळ्ळो. तांगेलो कष्टकालु आरांभिलो.

ब्यारु विकून वोयदीक केल्ली. कांय फल ना. दीस काडूक कष्ट जाल्ले. खाण खांवचाक नातिल्यान केदणाय म्हळ्यावरी उपाशी. न्हेसूक जाल्यार तें ना. दारिद्र्यांत पोणू घुसमुटेताय.

तांगेले गांवाचे रायाक एक पूतु आसा. खंचकी एक शापान करतना तो एकु भांगरा सिस्सोरो जाल्लो. दिस-दीस एकि चेल्ली ताका खांवचाक जांवका. तशी तं तागेलीं कायरीं. रायाले सेवक साकणीची एकि पालकीय घेवनू देंवतले. एक सासु वराहाची एकि पटळीय काडतलीं. एक सासु वराहु म्हळ्यार एक सासु भांगराचीं नाण्यां.

गांवांत भारी दारिद्र्य भोगूचीं, थोंटीं, कुरडीं, विरूपीं सग जावनू आशिल्यो चेल्लियो सिस्सर्याक खांवचाक जावनू मेळतल्यो. एक दीसा रायाले सेवक ये चेल्लेले घरा मुकार आयले. तानी डंगीरो वाजून सांगीलें -

"सासु वराहाची पटळी व्हराय. भांगरा सिस्सर्याक चेल्ली दियाय."

दुशेरी दुशेरी तानी उळदून सांगीलें. चेल्लेन तें आयकीलें. तीणे आठयलें -

'देवा, हांव सिस्सर्याक खाण जावनू गेल्यार सासु वराहु मेळतलो! ताजान बप्पाक वोयदीक कोरयात. दारिद्र्य सोणू वतलें.' कोणालागी सांगूनातिलें ती रायाले सेवकांचे लागी पावली.

"तुमी माका व्हराय. पटळी अशी दीयाय." म्होणू सांगीलें.

सेवकानी होगी पटळी तिका दिल्ली. कायरीं आयकून अम्मा बप्पान, भयणीन गोंदोळु घालो. तिका वोचूनाका म्होण सांगून तीं रळ्ळीं. तांचे हातांत साकून भिसाटून धावनू ती रायान पेटेयलेले पालकेंत चोणू बेसली. सेवकांनी पालकी व्हावनू चमकूक आरांभिलें. एदी वाट वचानिक तीं एक रानांत पावलीं. थांगा मोणु पळ्ळेलें एक देवळ आशिल्लें. ते देवळांत वोचून पांय पोडका म्होणू तीणे सांगीलें दिकून सेवकानी पालकी राबयली.

पर्वता देवीले ते देवळांत वोचून ती देवीक भक्तीन पांय पळ्ळी. तिगेली भक्ति चोवनू पर्वतादेवीन तिका अनुग्रहु दिल्लो - "धूवे, तुगेले भक्तींतू हांव प्रसन्न जाल्लीं. यो एद्दो वोरोवु धरी. सिरस्सर्यान तुका खांवचाक जावनू तोंड विसकळायना फडे यो वोरोवु ताजे तोणांत घालका. आनी यीं फुला भक्तीन ताजे मात्यार घालका. तावळी ताका शापमोक्षु मेळतलो." यो वोरु दीवनु देवी अंतरधान जाल्ली.

चेल्ली संतोषान देवीन दिल्लोलो वोरोवु आनीक फूल घेवनू वोचून पालकेंत बेसली. सांज जांवचानिक पालकी रावळारांतु पावली. ये चेल्लेक दिकून थांगाचे जनांक सग भारी दुःख जाल्लें. केदणाय सिरस्सर्याक दिंवचाक जावनू कोणाक नाका जाल्लेले चेल्लियांक तं हाडप. आयचे ये चेल्लेक कसली चंदायी! कसलें तेज!

चेल्लीयांक सग सिरस्सर्यालें खाण जांवचे मुरथम आखेरचें न्हाण म्होणू एक तेला न्हाण आसा. तशी ती चेल्लीय चांग कोरनू तेल लावनु न्हावनू शुभ्रवस्त्र न्हेसून आयली. आखेरचें जेवण म्होणू वाडूक वचानीक तिका उपवासु तं म्होणू तीणे सांगीलें.

राति जांवचानिक तिका एक कूडांत मांचारी व्होरनू बेसयली. ती निद्देवनातिल्लें देवीक भोजून बेसली. राती बारा वरांचेरी लागीचे कूडांत एकु उजवाडू दिकूक आयलो. देवीन दिल्लोलो वोरोबु आनी फुल्लां हातांत धोरनू

ती तयार जावनू राबीली. भांगरा सिरसोरो पोटो भूकेन तोंड विसकळावनू तिका खांवचाक आयलो.

तिका भय जालें, जाल्यारीय देवीक मनांत आठोवनू धैर्यान राबीली. सिरसोरो लागी पावलोलोय ताजे तोणांत वोरोव घाल्ले. सिसर्यान तावळीची तोंड धांकीलें. फुलां मात्यार घालूनिक सिरसोरो मनुष्यरूप धोरनु चंदु एकु राजकुमार जाल्लो.

दोगांकय संतोषु जाल्लो. राजकुमारान तिगेलें चरित्र सग निमगून मन्नांत केल्लें. थांगा दवरलेलें खाण सग तीणे राजकुमाराक खांवचाक दिल्लें. तें जावनू तो थांगा मांचार पोणु निद्देलो. फालें जांवचानिक राजकुमाराक दिकून सगटांकय अतिशय जाल्लो. काली भितरी सिरसोरो जावनू पळ्ळोलो तांगेलो पूतु आजी सुंदर राजकुमारु जाल्ला दिकून रायाकय राणियेकय बहु संतोषु जाल्लो. तांगेले पुताक शापमोक्षु मेळूक कारण जाल्लेले तिका राजकुमाराक व्हारडीक कोरनू दिल्ली. तिगेले बप्पाक वोयदीकेक जावनू रायान खूब दुड दिल्ले. ताका सुख जाल्लें. तशी तीं सर्वय सुखान आनी संतोषान राबीलीं.



# पत्तळेचो रुकु

एकडे एक चेल्लो आशिल्लो. एक दिसा तो तागेले होळ्ळम्माथंय गेल्लो. होळ्ळम्मान ताका खांवचाक पत्तळी दिल्ली. ताका पत्तळी चांग जावनू रुचली.

घरकडे वचून ताणे अम्मा लागी सांगीलें -

“अम्मा, होळ्ळम्मान माका खांवचाक पत्तळी दिल्ली. कसलो स्वादू! माका एदीच लगेन खांवका म्होणू आशा दिसता. कोरनू दिशी वे अम्मा?”

“जावो रे पुता, फाय सांजे तूवें साळेंत साकून येतना खांवचाक कोरनू दवरीन.”

हेरदूसा सांजे चेल्लो साळेंत साकून पांवचानिक दिकिलें - अम्मान खुशाऴी पत्तळी कोरनू दवरल्या. ताणे पोट भोरनू पत्तळी खेल्ली. आनीक एक पत्तळी व्होरनू परमांत एक मुल्याक वोयली. एदेंच उदाकय रकयलें.

हेरदूसा सकाणीची उठावनू पत्तळी वोयलेले कडे वचून चोयलो. संतोषान करतना ताणे दोनी उडकीयो मारल्यो. पत्तळी किरलेवनू रोंपी जावनू राबील्या! धावनू वोचून ताणे तागेले अम्मा बप्पाक उळदून हाणू दाकयलें. तांकाय होड्डू संतोषू जालो. तागेले अम्मान सदांच ते रोंपयेक शिंपूक आरांभिलें. दोनी वारु जांवचाकय रोंपी होडी जावनू रुकु जालो. ताजेर सान सान पात्तळ्यो धोरूक आरांभिल्यो. एकु वारु भितरी एकेक पत्तळी पिकूक लागल्यो. रुकार चोणू चेल्यान पत्तळ्यो काणू खांवचाक आनी अम्माबप्पाक दिंवचाकय आरांभिलें.

एक दिसा चेल्यान पत्तळे रुकारी बेसल्ले वेळार खालाक आशिल्ले वोणीतुल्यान एकि राक्षसि वताली. रुकारी बेसल्ले चेल्याक आनी, रुकार भोरनू पत्तळी जावनू पळ्ळेली तीणे दिकीलें. तोणांत उदाक भोरनू तीणे

सांगीलें -

"पुतो, एकि पत्तळी माका दी रे. पत्तळी खावनू जायते दीस जाल्ले."

"जाल्यार धरी एकि पत्तळी."

अशी सांगून ताणे होळ्ळी एकि पत्तळी काणू खालाक घालनू दिल्ली.

"आयो पुतो! ती रेवेंत पळ्ळी मू! तशी उडोवनाका. तूं एक कायरीं करी. तुगेले पाया बोटाचे कातरींत दवोरनू एकि पत्तळी माका दी."

तें आयकून ताणे तशीच केल्लें. पत्तळी काडूक म्होणू फटोवनू तीणे तागेले पायाक धोरनू वोडून खालाक हाळ्ळो. होगी तागेले तोणांत बोंतो चेप्पून तिजे खांदार पळ्ळेले साक्कांत ताका घाल्लो. साका तोंड सुतळेन बांदून साकू मात्यार चडयलो. आनी ती एक चमकण. एक रानांतुल्यान जांवका तिगेले घरकडे वचाक. चेल्याकय घेवनू राक्षसि चमकून चमकून रानांत पावली.

थांगा पांवचाक तिका तान लागली. लागी आशिल्ले तोळ्यांत साकून उदाक पिंवचाक जावनू तीणे साकू खालाक देवोंवनू दवरलो. तीणे उदाक पिंवचाक गेल्लोलो वेळू चोवनू चेल्यान सकाचो कोटू फुटयलो. तो भायर देवलो. ताणे थांगा पळ्ळेले होळ्ळे होळ्ळे फातर आनीक कांटे साक्कांत भरले. साक्काचो कोटूय बांदीलो आनी तो एकु धांव! राक्षसि उदाक पीवनू उंचारी आयली, साकू मात्यार चडयलो आनी घरकडे गेल्ली.

राक्षसीक रांदून वाडूक थांगा एकि चेल्ली आशिल्ली. राक्षसीन तिजे लागी सांगीलें -

"आगो, हांतू भितरी आशिल्या चेल्याक काणू तूवें मासोलू घालनू घशी कोरनू माका वाडका." आनी ती न्हांवचाक गेल्ली.

तिगेलें न्हाण म्हळ्यार कसलें न्हाण! थांगा आशिल्ले एक तळ्येंत

पोणू दोनी तीनी घंट्यांक न्हातली. म्हशीन फुगूचे वरी फुगून फुगून एक न्हाण! तें जावनू आयल्यार तावळीच जेवतली. एक होळ्ळो हांडो भोरनू शीत, दोनी हांडे भोरनू घशी, एकु कोळसो ताक, एकु खोट्टो हापळ सग कोरनू एक जेवण. तें जावन एकि नीद.

राक्षसीन सांगिल्ले तकीत चेल्ली साकू निसरांवचाक गेल्ली. चोंवचानीक तांतु चेल्लो कांय ना. फातर आनी कांटे मात्र दिकीले. राक्षसीन न्हावनू येना फडे घशी दिकलीना जाल्यार तिकाच धोरनू खातली. ते भयान तीणे तशीणान वताले एक सूण्याक धोरनू ताजी घशी कोरनू दवरली. राक्षसीन न्हाण जावनू येंवचानीक शीत रांवदय तयार. ती खुशाली जेवनू वोचून निदेली.

दोनी तीनी मास वचाकय राक्षसि चेल्याले घरा लागीचान वताली. पत्तळे रुकार चोंवचानिक चेल्लो बेसून पत्तळी खाता!

‘आरे! हांवे धोरनू व्होरनू घशी कोरनू खेल्लोलो चेल्लो हांगा कशी पावलो?’ तिका अतिशय जालो. ती घरकडे परतली आनी चेल्लेक उळदीली.

“आगो, दोनी तीनी मास फूडे हांवें एक चेल्याक हाणू दिल्लोलो न्हय वे? आजी तोची चेल्लो पत्तळे रुकार बेसला दिकीलें हांवे. तूवें तेद्दूस कसली घशी कि कोरनू माका वाळ्ळेली?”

चेल्ली भयान कडकडेली, जाल्यारीय तीणे जाल्लेलीं कायरीं सांगीलीं.

राक्षसीन सांगीलें - “तूं एक कायरें करी. माका एदींच फुलां गांतून दांडू कोरनू दी.”

धरां वोचून चांग कोरनू तेल लावनू वोळोवनू पट्या कापड न्हेसून राक्षसि भायर सरली. चेल्लेन केल्लोलो फुलाचो दांडू फांत्येर माळ्ळो. तीळो आनी कोरनू ती सुंदरी बायल जाली. ते वेषान ती चेल्याले घरा लागी पावली. आनीक सांगीलें -

“पुतो, माका एकि पत्तळी दी पुतो.” चेल्यान एकि पत्तळी काणू तिगेले हातारि दवरली. तीणे होगी तागेले हाताक धोरनू वोडीलो. तोंड धांकून धोरनू बरबरीच ताणू वोडून ताका तीणे तिगेले घरकडे व्हेल्लो. एक कूडांत घालनू कवड दिल्लें. चावि चेल्ले लागी दिल्ली.

“तेद्दूसचे ते चेल्याक हांवे धोरनू ये कूडांत बंद केल्लोलसा. धरी चावी. ताका घालनू घशी कोरनू दवरी. हांव न्हावनू येतां.”

राक्षसीन गेल्लेले मागल्यान चेल्यान चेल्लेक उळदीली.

“अक्का, तुका हांगा साकून वांचूका नाका वे? माका भायर सोळ्यार आमकां दोगांकय कोरनू राक्षसीक दिंशी मारनू हांगा साकून वांचूयात.” चेल्लेन जाप दिली - “जावो, माकाय मिगेले घरकडे वोचुका.”

तेद्दूसचे वरी ये पावटी चेल्लेन एक वासुराक धोरनू घशी केल्ली. राक्षसीक जेंवचाक शीत रांवदय वाणू दवरलें. तान्नी दोगानीय कोरनू होळ्ळे दोनी फातर माळ्यार चडयले. राक्षसीन निद्देंवचे मांचाचे समची उंचार दवरले. ताजे लागीचें फळें निकळावनू चेल्लो राकून बेसलो.

राक्षसि तिगेलें न्हाण जावनू आयली. वाळ्ळेलें सग जेवनू ती निद्देंवचाक मांचार चोणू पळ्ळी. राक्षसीलें घोरणी आयकूक येता. चेल्लीय माळ्यार चळ्ळी. फातर धिंगूळनू राक्षसीचे मात्यार घाल्लो. होळ्ळी एक बोब घालनू राक्षसि मोरनू गेल्ली. राक्षसीन धोरनू हाळ्ळेलीं मस्त चेरडूंवां थांगाचे एकेक कूडांत आशिल्लीं. तांका सग तान्नी स्वतंत्र केल्लीं. सगटय तांगतांगेले घरकडे संतोषान परतलीं.



# सात भातांची काणी

एकडे एकडे तेग जाण भयण्यो आशिल्यो. होळ्ळ्यो दोग जाण भयण्यो एक होळ्ळे जन्मीले घरकडे भात कांडूक वताल्यो. धाकूली भयणी गुलामी घरकडचें दंद सग कोरनु भोंवताली. म्हालगड्यांक दोगांकय धाकलेचे लागी एद्दो सरी स्नेहु ना. तीं केदणाय तिका उपद्रव दितालीं. ती जाल्यार चोंवचाक चंदी आसा. गांवचे सगटांकय तिजे लागी भारी प्रीति. यें सग दिकून तं तांकां भयणी लागी कोपू भोरनू आसा.

एक दिसा म्हालगडे भयण्यानी भात कांडून जावनू येवनू वस्त्रां उंबळूक घाल्लीं. गुलामीन तांगेलीं वस्त्र उंबळूक काडूनिक तांतु साकून सात भातां मेंळ्ळीं. तीणे तीं भातां पुंजावनू काळ्ळीं आनीक अक्काक दाकयलीं.

"यें चोय अक्का, माका सात भातां मेळ्ळीं."

"सात भातांनी तूं इत्तें कोरूक वत्ता गो?" अक्कान तिका खेळू केल्लो.

"सात भातांनी राज्य धोरयात मूं अक्का!"

"धिकारू चोय तिगेलो! राब, दाकोवनू दीन गो तुका. सात भातांनी राज्य धोरूक वता ती!" अक्कमारानी सांगीलें.

राति जेवण जावनू सगटय निद्देंवचाक पळ्ळीं. भयणी निद्देली म्होणू कोळूनिक म्हालगड्यानी तीं सात भातां काणू तिगेले वोरला तलवांतु गुडळावनु गांटी घाल्ली. आनी तीणे निद्देवनू पळ्ळोलो मांचो उबारनू भायर घेवनू गेल्लीं. चमकून चमकून रानांतुल्यान एकु मोलोय बलांडून तीं दूरा एकडे पावलीं. थांगा एक समतलारी मांचो दवरलो आनीक तीं परतून आयलीं.

हेरदूसा सकाणी जांवचानिक गुलामी जागी जाल्ली. दोळे सोणू

चोंवचानिक चारीय तांतु मोले! यें इत्तें? सपन वें? तिका दिसलें. आळता पेळतांत भोरनू होळ्ळे होळ्ळे रूक, वाली, सगट जावनू रान. तिगेलें घर जाल्यारी खंय दिकूक येना. तिका भय जाल्लें आनीक रण्णेय आयलें. काली राति उलेयलेलीं कायरीं सग तिका उडगासु आयलो. तिगेले अक्कमारानी केल्लेलें दंदच तं यें म्होणु तिक्का कळ्ळें.

तीणे चोंवचानिक तिगेले वोरलांत सात भातां बांदून दवरल्यांय. 'देवा! अशी केल्लें मूं देवा हान्नी मिजे लागी! माका आनीक कोण ना मूं. हांव ये रानांत इत्तें करतलीं एकलीच?' अशी सगट आठोवनू तीणे रोडूक आरांभिलें. रोणु रोणु तान लागून ताळो हरकटेता. खंयीच उदाक मेळूक वाट आसा जाल्यार चोयली. आळता पेळतांतू सग भोवनू चोंवचानिक दूरा एकडे धूवोरु दिकूक येता. ते दिकारी ती होगी होगी चमकीली.

थांगा एकु म्हांतारो आनीक म्हांतारी बेसून पाल्याक उज्जो घालतालीं. गुलामीन निमगीलें - "आये, माका तान लागता. एदें उदाक दिशी वे?"

म्हांतारेन लागीचान होळची एकि न्हंय दाकोवनु दिल्ली. गुलामी थांगा वोचून घटघटीची उदाक पीवनू आयली. गुलामीलें चरित्र सग आयकून म्हांतार्यान आनी म्हांतारेन तिका थांगा तांगेले घरकडे राबूक सांगीलें. गुलामीक चांग भूक लागताली. म्हांतारेथंय कांय खांवचाक ना म्होणू तिका कळ्ळें.

सात भातां आसाय. तीं काणू ल्हायो कोरनु खावयात. अशी आठोवनू तीणे म्हांतारे लागी साकून एदो उज्जो घेतलो. एकडे वोचून बेसून तीनि फातर एकडे कोरनू रांदणी केल्ली. थांगा पळ्ळोलो एकु कोपुरला कुट्टूको काणू रांदणीरी दवोरनु उज्जो कोरनु सात भातांनी ल्हायो केल्यो. सात धव्यो ल्हायो! तीणे त्यो खावनातिलें राति खांवचाक तशीच दवरल्यो. दुःखान करतना रोणू रोणू ती बावनू निद्देली.

सल्प राबूनिक तशीणान एदेच हंसपक्ष उबून वताले. तांका ल्हायो म्हळ्यार प्राणू. ते होगी खालाक देवले आनी ल्हायो सग खावनू संतोषान नांचूक लागले. नांचून पूरो जांवचानिक उबून गेल्ले. गुलामीन उठावनु चोयतना ल्हायो नाय. तिका रण्णे आयलें. रात्तीक म्होणू दवरलेल्यो ल्हायो सर्वय कोणेय फारनू व्हेल्याय. आनी इत्तें करतली. अशी आठोवनू तीणे चोंवचानिक तिणे पळ्ळेले चारीय तांतूय हंसपक्षालीं पाकां पळ्यांय. तीणे तीं पाकां सग काणू चंद दिसचें एक खोटूळ विळ्ळें.

म्हांतार्यान आंगडींत वचे वेळार तीणे तें खोटूळ व्होरनू विकूक दिल्लें. आनीक परतून येतना वोरोवु, सामान सगट हाडूकय सांगीलें. तें नंतणा उडगासान एदीं भातां लागेन हाडूक तीणे आबो लागी सांगीलें.

खोटूळय घेवनू म्हांतारो सांतांत गेल्लो. सगटांकय खोटूळ चोवनू कौतुक दिसलें. सांगिल्ले मोल्लाक खोटूळ विकून म्हांतारो सामान आनीक भातांय घेवनु परतून घरकडे आयलो.

गुलामीक चांग संतोषु जाल्लो. सामान सग काणू तीणे रांदप आरांभिलें. जेवण जावनु कालचे वरीची एदी ल्हायोय कोरनू ती हंसपक्षांक राकून पळ्ळी. हंसपक्ष येताय आयकून ती निद्देलेले वरी पळ्ळी. हंसपक्ष कालचाकय चड आशिल्ले. ल्हायो दिकून तांका संतोषु जाल्लो. ल्हायो सग खावनू नांचून जावनू ते उबून गेल्ले. गुलामीन दोळे सोणू चोयतना कालचाकय चड पाकां पळ्यांय. उडकी मारनू उठावनू तीणे पाकां सग पुंजायलीं अनीक दोनि खोटूळां विळ्ळीं. म्हांतार्यान राकूड विकूक वतना खोटूळांय विकूक दिवनू पेटेयलीं. तशी तिका जायते दुड्डु मेळ्ळे. दीस दीस भातां हाडोवनु ती ल्हायो कोरनू हंसपक्षांक खाववयतली. आनीक पाकांचीं खोटूळां कोरनू विकून दुड्डु करता. तिका राबूक थांगा लागीची एक सानच घर केल्लें आनीक ती सुखान तांतू राबीली. पावसा कालु आयलो. हंसपक्ष आतां येनाय. गुलामीन

घरा आंगणांत भोरनु फुलांचीं झाडां सग वोयलीं. मैदरांत भोरनु रांवदयकाये झाडां वोयलीं. ताजे फल, फूलां सगट खोटुळांत भोरनु ती सांतांत दीवनु पेटेयतली. तशी तिगेले दीस सुखान वताय.

एक दीसु ती फूलां खुंटूक राबिल्ले वेळारी एकु राजकुमारु आनीक मंत्रिकुमारु घोड्याफाटीर तशीणान आयले. तान्नीं चोंवचानिक ते फुलां मद्दें वेगळें चंद एक फूल सरी राबिल्ले गुलामीक दिकीली. राजकुमाराक ती चांग बोय जाल्ली आनी थांगाच दवोरनु तिका गांधर्व विधि प्रकारीं व्हारडीकय केल्ली. थांगा तिका राबूक होळ्ळी माळी कोरनु दिल्ली. आनीक लागीची राजकुमारालो पट्टाभिषेकु जातोलो. तें जावनु गुलामीक रावळारांत व्होरनु विधिप्रकारी व्हारडीक करीन म्होणू उत्तर दिल्लें. तो केदणाय तिगेथंय येतालो आनीक सुख सौकर्य सग जाण जातालो.

मोल्याचेरी एकी होळ्ळी माळी आयली म्होणूय तांतु एकि राजकुमारी राबता म्होणूय गुलामीले अक्कमारानी आयकीलें. ती राजकुमारी गुलामी बि वे म्होणू चोंवचाक जावनू त्यो दोगांय भायर सरल्यो. कायरीं सम तं. तांकां दिकून गुलामीक संतोषु जालो. तांकां चांग चांग खाण सग दीवनु तीणे परकंचीलें. परतून वचे वेळारी अक्कामारांनी तिका एकि पटळी दिल्ली आनी सांगीलें - “आगो धूवे! हांतु एदेची गोडाचे आप्पे आसय. बामुणान येना फडे दोगांय कोरनू खायाय”.

राजकुमारान येंवचानिक गुलामीन आप्पे भायर काळ्ळे. अक्कमारां आयिलीं खबर सग सांगीलें. राजकुमारान सांगीलें - “गुलामी! तांतूलो एकु आप्पो ते माजराक खांवचाक दी”. तीणे तशीची केल्लें. ते माजरान आप्पो खेल्लोलोय तें मोरनु पळ्ळेलेंय एकच जाल्लें! राजकुमारन ती पटळी तशीच व्होरनु पूरनु घाल्ली. आनीक तान्नी हाळ्ळेलें कांय खांवचाक नज म्होणूय सांगीलें.

गुलामीक कांय जाल्लेना म्होणु अक्कमारांक कळ्ळें. एकु मासु वचानिक तीं दुशेरी तिगेथंय आयलीं. खबर सग उल्लोवनू जावनू तान्नी निमगीलें - "खंचे कूडांत गो तुमी निद्देतायी?" गुलामीन कूड दाकोवनू दिल्लें. कूड चोवनू दोगांय यात्रा सांगून गेल्लीं. वताय म्होणु दाकोवनू मैदरांतुल्यान दोनी होळ्ळी पाषणा फतर्योय घेवनू दोगींय भितरी चळ्यो. गुलामीन पोडचे कूडाचे उंचारी निपून बेसल्यो.

राति बामणान येंवचानिक खबर उलोंवचे मद्दे गुलामीन अक्कमारांनी कूड चोयिल्लीं कायरींय सांगीलीं. तावळी बामणान सांगीलें - "जाल्यार आजि आमकां वेगळे कूडांत निद्देवूं. तशी तीं वेगळे कूडांत निद्देलीं.

मदराति जांचानिक बुडुं बुडुं जावनू दोनि शब्दय करकरक जावनु मांचो पिट्टो जांवचो शब्दूय आयकीलो. गुलामी होगी जनर्लांतुल्यान चोयली. दोगी जाण बायलो धांवताय. चोयल्यारी अक्कमारांच म्होणू दिसताय.

एदेची दीस वचानिक दोगींयी अक्कमारां कांय नेणतल्या वरी हासूनूची गुलामीथंय आयलीं. ये पावटी येंवचानीक तांका जाण जांवका जाल्लेलें इत्तें म्हळ्यार गुलामीलो बामूण कशीणान घरांत येता म्होणू तं. गुलामीन सांगूनूय दिल्लें - "राति जायना फडे हांव एक कण्णडेंत चोवनु मिगेलो बामूणु येवो देवा म्होणू प्रार्थना करतलीं. तावळी मिगेलो बामूण कण्णडेंतुल्यान येतलो." तीणे तांका ती कण्णडीय दाकोवनू दिल्ली.

एकि अक्का तिजे कूटांतु उलोवनु हांगाय थांगाय सग भोवली. अनियेकली गुलामी नेणतां कोरलांचा लागी धावली आनीक चांग धार आशिल्ली होळ्ळी एक कातरी कोरोवनू घेवनू आयली. ती कातरी कण्णडेचे मागल्यान विसकळावनू दवरली आनी कांय नेणतल्या वरी दोगांय अक्कमारांय यात्रा सांगून गेल्लीं.

राति जाल्ली. गुलामीन बामुणु येवो म्होणू प्रार्थना केल्ली. येचोयी

बामूण येता! येता येता गोमटो कातोरनु मात्तें तिजे पाया मूणांतु येवनू पळ्ळें! यें भयानक कायरीं दिकिलींय तिका बोधक्षय जावनू खाल्लाक पळ्ळी. एदीची घडी सोरनु तिका बोध येंवचानिक तिका रण्णे राबोंवचाक जायना, रोणु रोणु बेसल्ले वेळारी तिका दिसलें, बामणालें मात्तें व्होरनू रावळारांत आशिल्ले देहालागी दवोरका. तीणे होगी एक करवंचे वेषु घाल्लो. बामणालें मात्तें काणू एक पाट्या वस्त्रांत गुडळायलें. आनीक एक भाटियेंत दवरलें. ती रावळारांत वचाक जावनू धावली.

रानांतुल्यान धांवता धांवता ती एक पिंपळा रुकाचे मूळाक आडोळनू पळ्ळी. तावळी पिंपळा रुकार दोनी सवणी बेसून उल्लेयताय तीणे आयकीलें.

"ये रुकाचे पोंदाक एक चेल्ली आयलेली आसा. तिगेले बामणाक तिगेले अक्कमारानी गोमटो कातोरनु दिंशी मारलो. मात्तें तिजे हातांतूय, देह रावळारांतूय जाल्लें. तिका सहायु कोरूक एकि वाट आसा." दादूले सवण्यान सांगीलें.

"ती वाट इत्तें की?" बायल सवणें ती वाट आयकूक जावनू उत्सुक जाल्ली.

"ये रुकाचे पोंदाक पळ्ळेली काजोल्या लेंडी काणू सोपूर निंब्या रोस्सांतु लान काजल सरी कोरनू वाटूका. आनी तें लेपन काणु राजकुमारालें मात्तेंय देहय कोरनु थापुका.' थापुन जावनू वारें घालतरी राबुका. एदेंची सोपूर वोरवा पेज्जे निशें तयार कोरनू दवोरका. राजकुमारान दोळे सोळ्ळे कडेरी तोणांतु निशें एदें एदेंची कोरनू घालनु दींवका".

सवण्यान सांगिल्लें आयकिलेंय गुलामी होगी काजोल्या लेंडी वेंचून काणू रावळरांत धावली. थांगा आशिल्यां लागी तीणे सांगीलें - "हांव एकि दिव्य शक्ति आशिल्ली करवंची तं. माका मेल्लेले मनुष्याक जीवु दिंवची विद्या कळता".

रायाक एकलोची पूतु. पूतु मोरनू गेल्लो म्हळ्ळेले दुखान रायु राणि पळ्ळेलीं. अशी एकि करवंची आयली म्होणु आयकून तान्नी होगी तिका जाय जाल्लोलो सहायू सग कोरनू दिंवका म्होणू आज्ञा दिल्ली.

गुलामीन काजोल्या लेंडी वाट्टून तयार केल्ली. सोपूर वोरवा पेज्जे निशें तयार केल्लें. तिगेले भाट्टियेंत साकून राजकुमारालें मात्तें भायर काळ्ळें. दुःखान करतना तिगेलें हरदें फुटता. जाल्यारीय देवाक उळदून तीणे वाटून काळ्ळेलें काजल काणू राजकुमारालें मात्तें आनीक देह थापीलें. मागीर ती एक आयणो काणू वारें घालूक बेसली. येचोयी राजकुमारु दोळो सोडता. तीणे होगी ताजे तोणांत निशें घाल्लें. तो होड एक निद्दांत साकून उठायल्या वरी जांबय काडता. तीणे होगी करवंचेचें रूप परतीलें अनीक रायु राणियेक उळदीलीं. तांका सगटांकय जाल्लोलो संतोषु उत्तुलो म्होणू लेक ना.

करवंचेन तं राजकुमारालो जीवु परतून हाळ्ळोलो म्होणू सगटय तिका सोदून भोंवताय. जाल्यारी तिका खंयी दिकूक ना. चंद दिसूचे एक बायलेक तं तानी दिकिल्ली. राजकुमारान उठावनु गुलामी तागेली गांधर्वविधी प्रकारी केल्लेली बायल तं म्होणु सांगीलें. तीणे तं तागेलो जीवु परतून हाळ्ळोलो म्होणूय सांगीलें. सगटांक होडु संतोषु जाल्लो.

राजकुमाराक रायु जावनू पट्टाभिषेकु केल्लो आनी तें जातरी गुलामीय जावनू विधि प्रकारीं व्हारडीकय चमकयलीं.



# भांगरा चेल्लो

एकडे एकु चेल्लो आशिल्लो. एक दीसा एक राक्षसान ते चेल्याक धोरनू व्हेल्लो. राक्षसान साधारण खांवचाक जावनू तं चेल्यांक धरप. म्हळ्यार ये चेल्याक दिकूनिक राक्षसाक खांवचाक दिसलेंना. राक्षसान रांदून वाडूक जावनू ताका राबयलो. राक्षसान पोटा भूकेन येतना चेल्यान मुकार येंवचाक नज. रांदून वाणू दवोरनू निपून बेसूका. राक्षसालें जेवण जायना फडे चेल्याक उळदितलो. तावळी मात्र तं मुकार वचात.

राक्षसान सांगिल्ले वरीची चेल्लो करतालो. एक दीसु राक्षसान चेल्याक उळदून सांगीलें - “आरे, हांगा णव कूडां आसाय. णवावें कूड मात्र तूवें उद्दारी कोरनू चोंवचाक नज. उडगासु दवरी! धरी तांच्यो चावियो.” अशी सांगून चावियांचो झोल्लो चेल्याक दिल्लो.

हेरदूसा चेल्याक एकि आशा. राक्षसालीं कूडां सग एक उद्दारी कोरनू चोंवका. ताणे चावियांचो झोल्लो हातांत काळ्ळो. एकेकच कूड उद्दारी कोरनू चोयलो. एक कूडांत भोरनू भांगरा नाण्यां, लागीचे कूडांत भोरनू वज्र, मागीर्च्यांत केंपु, मागीर रुप्याचीं नाण्यां, रुप्याचीं आयदनां, भांगराचीं आयदनां, रत्नां. तशी आट कूडां उद्दारी कोरनू चोयलो. णवावें कूड मात्र उद्दारी केल्लेना. राति ताका नीद पळ्ळीना. णवावे कूडांत भितरी इत्तें आसुयात? आलोचन कोरनु कोरनु ताका मनांत समाधान ना जाल्ली.

हेरदूसा तो णवावें कूड उद्दारी कोरनू चोंवचाक तयार जावनू गेल्लो. कवड काणू तो लोवूच भितरी चळ्ळो. थांगा एकि बांयी मात्र दिकूक येता. तांतु भोरनू हळदुवेंची उदाक. ताणे तागेलें सोपूर किरांगुळे बोट तांतु बुडयलें. बोट भायर काणु चोंवचानिक भांगरा बोट जाल्यां. ताका जाल्लें भय. ‘देवा! राक्षसान कोरूक नज म्होणू सांगिल्लीं कायरीं हावें केल्लीं.

मिगेले यें भांगरा बोट राक्षसान दिकिल्यारी कोपान माका खातलोच बि! आनीक इत्तें कि करप्?

ताणे एक कायरीं केल्लीं. एक लुगट काणु ते बोटाक वेडायलें. आनी कांय जावनातिल्या वरी तो तागेलें दंदय कोरनू भोवलो. राक्षसु आयलो. जेवण जांवचानिक चेल्याक लागी उळदीलो. तो भयान भयान लागी गेल्लो. राक्षसान ताका काणु होंटींत बेसयलो. चोंवचानिक चेल्याले एक बोटाक लुगट वेडायल्यां.

"यें इत्तें जाल्ले रे?" राक्षसान निमगीलें. 'इत्तें जाल्यारीय चिन्ना, सत्य सांगूया' म्होणू लेकून चेल्यान जाल्लेलीं कायरीं सांगीलीं. राक्षसाक कोपु आयलोना. इत्या म्हळ्यारी चेल्यान फटी सांगलीना. सत्यच तं सांगील्यां. राक्षसाक संतोषु जाल्लो. "यो रे, तुका हांव सगळोची भांगराचो करतां." अशी सांगून राक्षसान चेल्याक णवावे कूडांत ओडून व्हेल्लो आनीक गोमटो भितरी भांगरा बांयतूं बुडयलो. चेल्यालें आंग सगळेंची भांगराचें जाल्लें.

वर्षां तशी गेल्लीं. चेल्लो आतां एकु आरोग्यवंतु युवकु जाल्लो. एक दिसा राक्षसान ताका उळदीलो आनी सांगीलें - "आरे, आनी हांव हांगा राबना, माका प्राय जावनु आयल्या. हांव समुद्रा पेलतडी राबूचे मिगेले भावा घरकडे राबूक वतां." आनी राक्षसान ताका तीनि विशिष्ट साधनां दिल्लीं. एक खांडे - ताका दोनीय तांतूय धार आसा. युद्धा वेळारी दोनी तांतुल्यानय शत्रूक कातोरनू उड्डोवयात. दुशेरो एक चोगो. चोगो आंगार घाल्यार वेगळ्यांक कोणाक घाल्लेल्याक दिकूक येवना. तिसरो एकु कांबळो. कांबळ्यारी बेसून वचूका जाल्लेले स्थलाचे नांव मनांत आठयल्यारी कांबळो उबून थांगा पांवयतलो.

तशी ते घराची चावीय दीवनु राक्षसु गेल्लो. युवकाक होळ्ळो संतोषु जाल्लो. ताणे खांडें आनीक चोगो पटळी बांदून काळ्ळी आनीक उबूचे कांबळ्यारी चोणू बेसलो. ताणे मनांत आठयलें - 'लागीचे राज्यांतू पावों.'

चोंवचे मुरथम तो लागीचे राज्यांत पावलो. कांबळोय पटळी बांदून काणू तो एक सत्र सोदून गेल्लो. एक सत्रांत कूड काळ्ळें. थांगा राबिल्ले जनांनी सांगून ताका एक कायरें मनांत जाल्लें. ये राज्याचो शत्रु रायु लागीची युद्धाक येता. हांगाचें सैन्य जाल्यारी सानच. रायु जाल्यारी बहु साधु मनीष. यें आयकून चेल्याक कष्ट दिसले. शत्रु रायाक हारवोवनू हांगाचे रायाक सहायु कोरूक ताणे निश्चयु केल्लो.

हेरदूसा शत्रु रायु होळ्ळे सैन्याकय घेवनू युद्धाक आयलो. हे राज्याचो रायूय तयार जाल्लो. युद्ध आरांभिलें, आमगेले युवकान विशिष्ट चोगो घालनू विशिष्ट खांडेंय घेवनू शत्रु सैन्या मुकारी उडकी मारली - आयलेले आयलेले शत्रूक सग ताणे तागेले धारे खांडयान दोनीय तांतूल्यानय कातोरनू कोचकोचोलु केल्लो. शत्रून चोयल्यारी कोण थांगा खांडें घेवनू राबिल्लो दिकूक येना. जाल्यारी खांड्याचे घायानी सैन्य मोरनु पडता मात्र. तशी सर्व सैनिकांकय दिंशी मारनू शत्रु रायाक बंदनस्थ कोरनू युवक राया मुकारी पावलो.

रायाक संतोषु जाल्लो. रायान तागेलें चरित्र सग निमगूनु मनांत केल्लें. अशी धैर्य आशिल्ले हाकाच दीवनु जावो धूवेली व्हारडीक म्होणू रायान निश्चयु केल्लो. शत्रुरायाले राज्याचो रायु जावनू युवकाक पट्टाभिषेकु केल्लो. तशी स्वंत राज्य, आनी बायल जावनू राजकुमारीय ताका मेळ्ळी. राक्षसान दिल्लेलें द्रव्य सग काणू ताणे राज्याक जायते तराचें चांगपण केल्लें.



# भांगरा केसाची राजकुमारी

एकडे एकु रायु आशिल्लो. ताका सात जाण पूत आनी एकि धूव. चेरडुवां सग होळ्ळीं जाल्लीं. सात पुतांकय न्हांवचाक जावनू रायान सात तोळीं कोरोवनु दिल्लीं. धूवेक तोळें कोरोवनु दिल्लेंना. ती अंदपुरांत वाडली.

एक दिसा धुवेन् बप्पा लागी सांगीलें - “बप्पा, माका मात्र तोळें कोरोवनु दिल्लेना मूं. माकाय एक तोळें कोरोवनु दी बप्पा.”

“धूवे! तुका इत्याक कि तोळें? फायी परां तूं व्हारडीक जावनू वतली. तूं एक कायरीं करी. एकेक दिसा एकेक अन्नाले तोळ्यांत वोचून न्हा.”

तशी राजकुमारी एकेक दीस एकेक तोळ्यांत न्हांवचाक गेल्ली.

वर्षां एदींच गेल्लीं. एकु दीसु धकूलो आनु तागेले तोळ्यांत न्हांवचाक गेल्लो. थांगा साकून ताका एकु भांगरा केसु आनी एक रुप्या नांकूट मेळ्ळें. तें दोनीय काणू तो रावळारांत परतलो. थांगा आशिल्ले दुःखा मांचारी वोचून पळ्ळो. यें दिकून रायु राणी सग धावनू आयलीं.

“इत्तें जाय रे पुता तुका? इत्या रे ये दुःखा मांचारी पळ्ळा?” अशी तांन्नी निमगीलें.

“अम्मा, बप्पा, माका भांगरा केसू आनीक रुप्या नांकूट आशिल्ले चेल्लेक व्हारडीक कोरका”

रायाक आनीक राणियेक यें आयकून खप जाल्लें. तान्नी सांगीलें -

“आयो पुता, ती तुगेली भयणी मुं रे! वेगळे कोणाक भांगरा केसु ना. तें दिकून तूं ती आशा सोडी. तें मात्र तूं निमगूनाका.”

“भयणी जाल्यारीय चिन्ना! ते चेल्लेक नंतना वेगेळे कोणाक हांवें ये

जन्मांत व्हारडीक कोरना. माका तेची चेल्लेक व्हारडीक कोरका. ना जाल्यार हांव जीवत्यागु करतलों. यें सत्य! "

सर्वय धर्मसंकटांत पळ्ळीं. भयणीक अन्नाक दीवनु व्हारडीक करताय म्होणू आयकिलें आसा वे? तशी कोरयात वे? नज जाल्लेलें कोरूक जावनू यो पूतु निमगीता. इत्तें की करप? ना जाल्यार तो मरतलो खंय. तो मोरूकच भायर सरता!

वेगळी वाट नातिल्यान धाकूले पुतालो जीवु वांचोंवचाक जावनु पुताक दीवनु धूवेली व्हारडीक चोंवकोंवचाक रायु राणी भायर सरलीं. राजकुमारीक यें आयकून भारी दुःख जाल्लें. कुलदेवी दुर्गाचेलागी ती शरण गेल्ली. दुर्गादेवीन तिका सात फातर दिल्ले. एकेक फातर तोळ्यांत उडकायल्यारी एकेक रुकु जातलो म्होणू सांगीलें. रावळारांत व्हारडीकेची तयारी चमकता. मांटोवु घालताय, पाट्या वस्त्रां हाडेयताय, खाण करताय तशी सग. व्हारडीकेचो दीसु पावलो. व्होकलेक सोदिल्यारी व्होकल ना!

सर्व कडेय व्होकलेक सोदून सेवक धावले. रायु राणी विचारान भोंवताय. चोंवचानिक म्हालगडे अन्नाले तोळ्यांत एकु रूकु राबीला. ताजे तुद्दियेरी राजकुमारी बेसल्या.

रायान आनी राणियेन तिजे लागी सांगीलें - "धूवे भूंयी देंव!" उत्तुलोय ताळो सुकयल्यारीय ती खालाक देवना. रायाक कोपु आयलो. थांगा जाल्यारी व्हारडीकेची तयारी कोरनू सर्वय राकून बेसल्यांय. यी जाल्यार रुकार तुद्दियेरी चोणू बेसल्या. रायान कोपान चिणचिणेवनू आज्ञा दिल्ली - "खंय रे! कातरायी रे तो रूकु!" आयकिलेंच रूकु कातरूक सेवक पावले. तान्नी तो रूकु कातरूक आरांभिलें म्हणतना तीणे देवीक मनांत आठोवनू दुशेरो फातरू दुशेरे अन्नाले तोळ्यांत घालो. तो फातरु एकु रूकु जाल्लो आनी ती ताजे तुद्दियेरी चोणू बेसली.

रायाक कोपु चळ्ळो. ताणे तो रुकूय कातरयलो. राजकुमारीन तिसरे तोळ्यांत फातरु उडेयलो आनी ते रुकार चळ्ळी. रायान तोवय कातरुयलो. तशी जावनू जावनू सात फतरय सरले. सातवो रुकूय कातरूक आरांभिलें. आनीक कांय वाट ना. तीणे उंचारी चोंवचानिक चंद्रमाक दिकीलो.

तीणे म्हळ्ळें - **"चेंद चेंदा, सूत घाली सूत घाली**
**हांव तुगेली अम्मा जायन, अम्मा जायन!"**

चन्द्रमान सांगीलें - **"माका अम्मा आसा, तूवें, मिगेली अम्मा जांवका नाका!"**

**""चेंद चेंदा, सूत घाली सूत घाली**
**हांव तुगेली मावशी जायन, मावशी जायन!"**

**"माका जायत्यो मावशीयो आसाय, तूवें मिगेली मावशी जांवका नाका."** चन्द्रमान जाप दिल्ली.

**"चेंद चेंदा, सूत घाली सूत घाली**
**हांव तुगेली अक्का जायन, अक्का जायन!"**

**"माका जाय जाल्लेली अक्का आसाय, तूवें मिगेली अक्का जांवका नाका."**

आनी इत्तें करप देवा. रूकु कातोरनु जायशी जाला. आनी एकि वाट आसा. निमगून चोवया.

**"चेंद चेंदा, सूत घाली सूत घाली**
**हांव तुगेली बायल जायन, बायल जायन!"**

चन्द्रमान होगी सूत घाल्लें. तीणे ते सुताक धरलेलेंय बेसल्लो रूकु पळ्ळोलोय एकची जाल्लें. राजकुमारीक चन्द्रान मळबारी व्हेल्ली आनीक तीं व्हारडीक कोरनू सुखान राबीलीं.



# सोळा शिंगा रायु

काशींतुलो रायु तं दक्ष महारायु. तागेली राणी चंपादेवी. तांका एकलीची धूव. गंगा देवी.

गंगादेवीक ते ते प्रायेरी दींवका जाल्लोलो विद्याभ्यासु सग दीवनु ओपुरबायेन वाड्डयली. विवाहप्राय जांवचानिक रायान पुरोहिताक पेटोवनु सात आट राजकुमारांलीं जातकां हाडयलीं. कलिंग राज्याचे राजकुमारालें जातक चांग जावनू लागता.

दक्ष रायान दूता लागी कलिंग रायाक रायसू दीवनु पेटेयलो. लागीचे शुभ मुहूर्तार दक्ष महारायु कलिंग राज्यांत येता म्होणूय, राजकुमारालें जातक राजकुमारीलें जातकय जावनू अवसून येता दिकून व्हारडीकेचीं कायरीं उलोंवचाक जावनू तं यो संदर्शु म्होणूय तं तांतूं बरयलेलें.

तशी दक्षमहारायु कलिंग राज्यांत वोचून थांगाचे रायूय जावनू उत्तर उलोवनु व्हारडीकेचो निश्चयु केल्लो. रायु परतून आयलो. ते कालाक तशी तं. चेल्यान चेल्लेक चोवप ना. चेल्यालो बप्पा, आबू कोणेय वोचून चेल्लेक चोवनू व्हारडीक निश्चयु करतलीं.

रायु आनीक राणी कोरनू राजकुमाराचे पसून उल्लेयतालीं राजकुमारीन कान शेळावनु आयकीलें. वर्तमानांत साकून राजकुमारालें नांव सोळशिंगा रायु म्होणु तीणे मनांत केल्लें. आयकून तिका भय जाल्लें. यें कसलें नांव. सोळा शिंगां बि आसय वे ताका? अम्मा बप्पा लागी निमगूक तिका भय.

ते कालाक अम्मा बप्पान निश्चयु केल्यारी मागीर चेरडूवानी कांय निमगुन्रा, परतून एडतूर सांगूना. तशीची तं यी राजकुमारीय. तीणेय कांय निमगिलेंना.

व्हारडीकेचो दीसु पावलो. राजकुमारीक चांग कोरनु शिंगारनु एक

मांचारी बेसयली. होराण भायर सरलें. वाजप आयकूक येता. राजकुमारीन तिगेले लागी आशिल्ले सखीलागी सांगीलें - “एक वोचून चोवनु यो राजकुमाराक. सोळा शींगां बि आसा जाल्यार माका भय तं. तशी जाल्यार तूं व्होकल जावनू व्हारडीक करशी वे?”

“जावो राजकुमारी. तुगेले खातीरी जीवु दिंवचाकय हांव तयार तं.” ती चोंवचाक धावनु गेल्ली.

राजकुमारु एक घोड्या फांटीरी बेसुन होराणान येता. राजकुमाराक चोयल्यारी उद्देवनु येंवचे सूर्याचे वरी दिसता. तीणे लेकीलें - राजकुमारीक फटोवनु राजकुमाराक व्हारडीक कोरका! मागीर तीणे येदो सरी तोडोवु केल्लोना. धावनु वोचून राजकुमारीचे लागी सांगीलें -

“मिजे राजकुमारी! व्होरेताक दिकिल्लें माका भय जाल्लें. सोळा शिंगां आसय, बारा भुजां आसाय, भय दिसता मिजे राजकुमारी, भय दिसता”

म्होणु भितरी राजकुमारीन शिंगारु निसरावनु सखीक घाल्लो. आनी तिगेलो सादो गागरो आनी चोळी राजकुमारीनय घाल्ली. केसय पिसूण व्होकले वेषु परतीलो. व्होकले वेषान सखीन मांटवांत वोचून राजकुमाराक व्हारडीकय केल्ली.

राजकुमारी मांटवाचे एक मुल्याक वोचून राबून चोयली. तिगेलें हरदें फुटलें. मिजे देवा, हीणे घातोकु घालो मूं! कशी दिसता यो होरेतु! शिंगय ना भुजय ना! उत्तुली बुद्दी नातिल्ली जाल्ली हांव! अम्मा बप्पान सोदून हाळ्ळेल्यारी हांवे विश्वासु दवरल्यारी पूरो आशिल्लें.

ती रोणु तिगेले कूडांतु मांचारी पळ्ळी. राति जाल्ली. राजकुमारीले लागीचे कूडांत तं व्होरताक आनीक व्होकलेक पोडूक दिल्यां. सग निद्देंवचाक पळ्ळीं. राजकुमारु जाल्यार निद्देवनात्तिलें पळ्ळा. व्हारडीकेचो निश्चयु चमकूनिक तागेले बप्पान अम्मा लागी सांगिल्लें ताणे आयकिल्ले तं- सोपूरी, दिगीची

चंप्या वर्णाची चंदी चेल्ली म्होणू. म्हळ्यारी यी व्होकल कशि की आसा? गुड्डी, काळी, थोरी बरकत नातिल्ली! बप्पान दिकिल्ली चेल्ली यी न्हय! राजकुमारीन एकु गुंडो फातोरु काणु दवरलोलो. लागीचे कूडांत आशिल्ले राजकुमार आयको म्होणु तीणे होडान गुंडे फातराक काणी सांगूक आरांभिलें.

लागीचे कूडांत साकून कोणकी उल्लेयता राजकुमारान आयकीलें. ताणे कान शेळावनु धरले. 'गुंडे फातरा तुका हांव एकि काणी सांगूं वे? मिगेले बप्पान सर्वथा योग्य जावुनु आशिल्ले एक राजकुमाराक दीवनु मिगेली व्हारडीक निश्चयु केल्ली. तागेलें नांव सोळशिंगा रायु. नांव आयकून माका भय जाल्लें. होराण येंवचे वेळार व्होरेतु कशी आसा म्होणु चोंवचाक हांवे मिगेले सखीक पेटेयली. शिंगां आसा जाल्यार माका तो चेल्लो नाका, तिका व्हारडीक करी म्होणु हावें सांगीलें. व्होरताक चोवनू तीणे सांगीलें, 'ताका सोळा शिंगां आसाय, बारा भुजां आसाय' म्होणू! मिगेलो वेषू घालनू तिका व्होकल केल्ली. तिगेलो वेषु हांवय घाल्लो. आतां ती पेल्ले कूडांत राजकुमारा लागी निद्देल्या. हांव ये कूडांतूय!"

राजकुमारान आयकीलें मूं यें सर्व! येंची तं सत्य म्होणु ताका कळ्ळें. हेरदूसा फाल्लें जांवचानिक ताणे रायाक जाणेयलें. सत्यावस्था मनांत जांवचानिक राजकुमारीक सोळशिंगा रायाक दीवनु व्हारडीक चमकयली. चोरी सखीक कारागृहांतूय घाल्ली.



# दोनी राजकुमार

एकडे एकु रायु आशिल्लो. ताका दोनी पूत. रायालो मंत्री महा दुष्टू. एक दीसा मंत्र्यांन रायाक आनी राणियेक दिंशी मारलीं. राजकुमारांकय तो दुष्टु दिंशी मारूक जावनू भोंवता. यें जाण जावनू सेनानायकान राजकुमारांक दूरा एक गांवांत व्होरनू एक शेटियाराथंय सोळ्ळे. राजकुमारांक चांग कोरनू चोंवकां, तांका जाय जाल्लेलें सग कोरोवनू दींवका अशी म्होणू सांगून सेनानायकान मस्त भांगरा नाण्यां शेटियाराक दिल्लीं. लागीची येवनू तांकां व्हरन म्होणू सांगून सेनानायक परतून गेल्लो.

कुमारांक निपोवनू व्हेल्ले म्होणू मंत्र्यांन आयकीलें. परतून पावलेले सेनानायकालो गोमटो कातोरनु ताणे कोपु नीवयलो. तशी राज्यभरण ताणे हातांत केल्लें.

भांगरा नाण्यां हातांत पोडूनिक शेटियाराक अत्याग्रहु जाल्लो. ताणे तागेले घर पिसूण होळ्ळी माळी केल्ली. दोनी तारूवां घेवनू ताणे ब्यारु होळ्ळो केल्लो. राजकुमारांक ताणे दंदाक राबयले. खाण कांय समकी दिंवना. सरका भांडी धिंगूळनू व्होरनू एकेक कडे पांवोंवका, तशी सग.

एक दिसा दोगांय राजकुमार भांडी धिंगूळनू व्हरताले. मस्त जनां एकडे जावनू एक शिंगारलेले हस्तेक घेवनू येत्तायी तान्नी दिकीलें. हस्तेचे सोंडाळेंत एकु पुष्पहारु आशिल्लो. कुमारां लागी पावलेलीय हस्तेन तो हारु होळ्ळे राजकुमाराले गोमटेक घाल्लो. आनीक ताका सोंडाळेन काणू तिजे फाटीरी बेसयलो. ताका घेवनू ती हस्ती मागल्यान घूवनू एक चमकण. ते राज्यांत तशी तं रायाक सोद्दून काडची रीति. तशी होळ्ळो राजकुमारु ते राज्याचो रायु जाल्लो.

एक दीसु शेटियारु धाकूले राजकुमाराकय घेवनू तारुवारी ब्याराक

गेल्लो. थांगा हांगा आशिल्ले राज्यांत सग तारूव लागोवनू तान्नी ब्यारु केल्लो. एक राज्यांत पांवचानिक थांगाचे राजकुमारीलो स्वयंवरु खंय! स्वयंवराक तीनी परिक्षणां आसाय. तांतु जिकवूचे भाग्यवंताक राजकुमारी व्हारडीक करतली. अर्द राज्यय मेळतलें.

यें आयकून शेटियाराक आशा जाल्ली. राजकुमारीक व्हारडीक कोरनू अर्द राज्य हातांत कोरूक तो वांवटेयलो. तोवय परीक्षणांत भागु घेंवचाक मुकार सरलो.

रावळरा लागीचान एकि सानीच झरी होळता. ते परमळाचे उदकांत तं राजकुमारी न्हाता. ते उदकाचे असाधारण पोरमोळाक कोणाकयी आकर्षण कोरची शक्ति आसा.

प्रथमले परीक्षण इत्तें म्हळ्यार ते उदकाक आपोणातिल्लें झरी तारण कोरका. उदकाचे पोरमोळान करतना शेटियारु उन्मत्तु जाल्लो. एदें उदाक काणु मात्यार घाल्लें, एदेंच पिल्लो, हात पाय तोंड धुल्ले. तशी ते परीक्षणांत शेटियारु हारवलो. जायतीं जाणां ये परीक्षणांत हारवून राबिल्लीं आसाय. शेटियारान हारवूनिक धाकूलो राजकुमारु मुकार सरलो. ताजे हातांत एक होळ्ळें काळींग आशिल्लें. ताजीं दोनी आद्दीं कोरनू ताणें तीं न्हंयतू घाल्लीं. आनीक उदकाक अपोडूनातिल्लें तो तांचेर माडोवनू पेलतडी गेल्लो.

लागीचें मोत्तियांचे परीक्षण तं. होळ्ळी एकि पेट भोरनू खळियो आसाय. ते खळियांत मळमळ तराचीं मोत्तिं भोरनू दवरल्यांय. तांतूलें विशिष्ट मोत्तिं खंचे म्होणू दाकोंवका. रावळारांतु मोत्तिं, रत्न सग दिकून संवय आशिल्ले राजकुमारान विशिष्ट मोत्तिं दाकोंवचाक तोडोव केल्लोना.

तिसरें परीक्षण इत्तें म्हळ्यारी होळ्ळे एक बांकारी मळमळ तराचो पाट्टो दवरला. तांतूलो अमूल्य पाट्टो दाकोवनू दींवका. राजकुमारु ये परीक्षणांतूय जिकवलो.

तशी धाकूले राजकुमाराक राजकुमारी मेळ्ळी. अर्द राज्यय मेळ्ळें. तांगेली व्हारडीक चमकीली. शेटियारालें तारूव सोडचो दीसु पावलो. शेटियारु, राजकुमारु आनी राजकुमारी तारुवार चळ्ळीं. शेटियारान राजकुमाराक तारुवाचे उंचारी वारें घेंवचाक म्होणू सांगून चडयलो. राजकुमारी संशयान तांचे मागल्यान निपून गेल्ली. सल्प घडी वचानिक शेटियारु राजकुमाराक समुद्रांत धिंगूळनू घालता तीणे दिकीलें. होगी तारुवाचें एक फळें तीणे मुसतून निकळायलें आनीक समुद्रांत पळ्ळेले राजकुमाराक विंदून दिल्लें. राजकुमारु ते फळ्यार धोरनु पळ्ळो. तेद्देभितरी तारुव दूरा पावलें. राजकुमारीक रोणु रोणु पूरो जाल्लें. तारूं तिसरे दिसा शेटियाराले गांवांत पावलें.

शेटियारु राजकुमारीक व्हारडीक कोरूक निर्बंध धरता. राजकुमारीन वांचूक जावनू सांगीलें - “माका एकेचाळीस दिसांचें गौरीव्रत आसा. तें जावनू हांव तुका व्हारडीक करीन.” शेटियाराक संतोषु जाल्लो. व्रताक जाय जाल्लेलें सग ताणे हाणू दिल्लें. राजकुमारीन व्रत आरांभिलें.

ये वेळारी समुद्रांत फळ्यार धोरनु होळचे राजकुमाराक वेगळे एक तारुवाचेरी वचे जनानी वांचयलो. ते जनांनी ताका तांगेले गावांत व्हेल्लो. आनी राजकुमाराकय घेवनू रायाचे मुकारी गेल्लीं. रायान चोंवचानिक यो तागेलोच भावु राजकुमारु तं. दोगांकय बहु संतोषु जाल्लो. भावान अन्ना लागी कायरीं सग सांगीलीं. रायाक यें सग आयकून कोपु आयलो.

हेरदूसा दोगांय राजकुमार कोरनू वोचून शेटियाराक धोरनू करागृहांत घाल्लो. राजकुमारीक रावळारांत घेंवनू आयलीं. तें जावनु राजकुमार दोगांय होळ्ळी एक सेना एकडे कोरनू तांगेले बप्पाले राज्यांत गेल्लीं. तांगेले अम्मा बप्पाक दिंशी मारलेले मंत्र्याक दिंशी मारनू तान्नी राज्य परतून हातांत केल्लें. धाकूलो राजकुमारु राजकुमारीकय घेवनु येवनू ते राज्यांत सुखान राबिलो.



# दुगुल आनी रुकाचें बावलें

एकडे एकि वर्षां जाल्लेली अम्मा आनी तिगेलो पूतु कोरनु राबतालीं. पुताक व्हारडीकेची प्राय जांवचानिक दुगुल म्होणु नांव आशिल्ले एक चेल्लेक व्हारडीक कोरनु हाळ्ळी.

दुगुल चांगी एकि चेल्ली तं. बामूण मांय म्हळ्यार तिका होळ्ळो स्नेहू आनी बहुमानु तं. मांयचे लागी निमगूनातिलें तीणे कांय कोरना. तशी तीं सुखान संतोषान दीस काडतालीं. एक दिसा छट जावनू अम्मा यो लोकू सोणू गेल्ली.

दुगुलाक रण्णे आयलें. इत्तेंय निमगून कोरूक मांय ना जाल्या. तीणे तिगेले बामणाक उपद्रव दिंवचाक आरांभिलें. "माका एक मांयक हाणू दियायी. माका एक मांयक हाणू दियायी." ये कसले कष्ट. मांयक हाणू दी खंय! पूरो जावनू ताणे सांतांत साकून एक बावलें हाणू दिल्लें. एकु हातु बरीक लावनु आनी हातान अनुग्रहु दिंवचे वरी राबूचे लेकान तं बावली आसा.

दुगुलाक बहु संतोषु जाल्लो. बावल्याक एक फळ्यार राबयली. रंदूचो वेळु जांवचानिक दुगुलान बावल्या लागी निमगीलें- "अम्मा, उत्तूलो पोडि वोरोवु रांदूक काडका?" बावली उलेयना. तीणे दुशेरी निमगीलें. बावली तावळीय उलेयना. मांय आंग्यभाषेन जायत उल्लेयता म्होणू लेकून ती बावल्याची हाता बोटां मेजून चोयली. पांच बोटां विसकळावनू धरल्यांय दिकून पांच पोडि वोरोवु काणू तीणे शीत केल्लें. बामणान जेंवचाक येंवचानिक होळ्ळे आयदनांत भोरनू बायलेन शीत कोरनू दवरल्यां दिकीलें. ताणे निमगीलें- "इत्याक कि उत्तुलें शीत?" तीणे सांगीलें- "हांवे अम्मा लागी निमगून तं शिताक घाल्लेलें. अम्मा लागी निमगूनिक पांच बोटां दाकयलीं. तें दिकून हांवे पांच पोडीचें शीत केल्लें."

बामणाक कायरीं मनांत जाल्लीं. अशी गेल्यारी सम जावना. दुगुल

घरांत नातिल्ले वेळार ताणे बावल्यालीं तीनि बोटां कातोरनु पर घाल्लीं. आनी दोनीचे पशी चड कांय नाशु हाणा न्हय वे. अशी ताणे आठयलें. जाल्यारीय दुगुल एकेक सामान कायरीं नातिल्लें नाशु करताच आसा.

एक दिसा बामणान जेंवचाक येंवचानिक एक होळ्ळे तोटियेंत भोरनु पोणसाचि एळिचकरी कोरनु दवरल्या दिकीलें. ताका रण्णे आयलें. ताणे ओपुरबायेन वाड्डयलेले पोणसा रुकार दोनि पोणस धरल्लेले चोवनु ताणे कसकसली आशा काळ्ळेली. घोरो तोळ्ळोलो, घोरो पिकयलोलो तशी तशी सग खांवका म्होणू लेकून तो दिस दीस पोणस चोयतालो. ते पोणस दोनीय तं दुगुलान कातोरनु शिंदून, दोनि नारला मासोलूय घालनू रांवदयी कोरनु दवरल्या. ताका कोपु त्रासूक जाल्लेना. जेंवचाक बेसल्ले कडे साकून उडकि मारनू तो उठायलो आनीक कोपान कडकडेवनु सांगीलें - "आगो दुष्टे, आनीक तूवें हांगा राबल्यारी मिगेलो सर्वनाशु जातलो. देंव भायर, आनी हांगा चळ्यार पाय मोणू सोडतलो."

अशी सांगून ताणे तिगेले गोमटेक धोरनू धिंगूळनू भायर घाल्ली. तिगेलीं वस्त्रांय भायर सोणु विंदीलीं. सर्वाकय कारण जाल्लेले बावलेकय भायर सोणू विंदीली.

दुगुलाक रण्णे आयलें. तिका भायर घाल्लेल्या पशी चड दुःख जाल्लेलें मांयक भायर सोणू विंदिल्ली तं. तीणे रोणु रोणु तिगेलीं वस्त्र सग काणु एकि मोट बांदीली. खालाक पोणु विकृत जाल्लेले बावलेकय मोटाचे उंचारी दवरली. आनी ती बप्पाथंय वचाक म्होणू थांगा साकून चमकीली.

विजन जावनु आशिल्ले एक रानांतुल्यान जांवका बप्पाथंय वचाक. काळूक जांवचानिक तिका भय जाल्लें. रानांतु हिंस्रमृगां आसतलीं. ते भयान ती एक रुकारी चो़णु बेसली. भयान भयान तिका नीद पोड़ूक कष्ट जाल्ले. फाले ़फाल्यार तिका सल्प नीद पळ्ळी. ते समयारी ते रुका पोंदाक बेसून दोनि चोर तांन्नी फारलेलें सामान सग वांटे घालताले. रुकाचे मूणांत कोणकी

मुरमुरेंवचो शब्दु आयकून दुगूल जागी जाल्ली. भयान नीट जाल्लेलीय तिजे हातांत साकून तें बावलें खालाक पळ्ळें. बावलें खालाक पळ्ळें दिकून दुःखान तीणे होळ्ळी एकि बोबय घाल्ली.

बावलें वोचून पळ्ळेलें चोरांले द्रव्याचे उंचारी. विकृत बावल्याक दिकूनू भिल्लेले चोरानी दुगुलाली बोब लागेन आयकिल्लीय ते भयान 'भूत येता!' म्होणु बोब घालनू धावले.

दुगुल बावली काड्रूक जावनू खालाक देंवचानिक इत्तें की? चोरानी सोणु गेल्लेलें भांगार, नाण्यां सग राशि जावनु पळ्यां. ताजे उंचारी तिगेली मांयीय पळ्या. संभवु इत्तें म्होणु पुरतेंच मनांत जाल्लेना जाल्यारीय तीणे तें द्रव्य सग पुंजावनु मोटांत भरलें. भक्तीन मांयकय काळ्ळी आनी ती घरकडे परतली.

दुगुलाक मारनु भायर घाल्लेले पश्चातापान राति सगोळ निदेवनातिल्लें तिगेलो बामूण बेसल्लो. दुगुल हासूनुच चोणु येता दिकून ताका समाधान जाल्ली. जाल्लोलो संभवु सग दुगुलान बामणालागी सांगीलें आनी मेळ्ळेलें द्रव्य सग दाकयलें. तिगेले बामणाक हासुका की रोडका म्होणु कळना जाल्लें.



# चेल्लो आनी सूणे

एकडे एकि अम्मा आनीक एकु सानु चेल्लो कोरनु राबतालीं. चेल्याक बप्पा ना. तीं बहु कष्टान तं दीस काडतालीं. अम्मान लेकीलें - पोळे कोरनु विकून ब्यारु केल्यार लाभु मेळतलो. ताजान कशीय कोरनु दीस काडयात.

तशी एक दीसु सकाणीची तीणे एदे पोळे केल्ले आनीक पुतालागी सांगीलें- “आरे पुतो! ये पोळे व्होरनु विकून दुड्ड घेवनू येंवका. कळ्ळें वें?”

चेल्लो पोळे घेवनु गेल्लो. “पोळो जाय वे पोळो?” म्होणू निमगून तो जायते कडे भोवलो. जाल्यार कोणे ताजे लागी पोळे घेतलेनाय. चमकून चमकून तो एक सांकवाचे लागी पावलो. थांगा एक होळ्ळें सूणे राबिल्लें. पोळ्यांचो पोरमोळु हुंगून तें चेल्याक फाटी घेवनु भोंवता. चेल्यान सूण्या दिकून ताका पोळो जाय वे म्होणु निमगीलें. ताका उल्लोंवचाक कळता वे? तें एकेक शब्दु कोरनु राबिलें.

चेल्याले अम्मान ताजे लागी सांगिल्लें आसा ताजा पसी होडांक अण्णा म्होणका म्होणु. तें दिकून ताजा पसी होड आशिल्ले सूण्याकय अण्णा म्होणू उळदीलें. “अण्णा! अण्णाक पोळो जाय वे?”

सूणे पोळे खांवचे आशेन ताजे लागीच वोचून एक शब्दु कोरनु राबिलें. ताणे लेकीलें सूण्याक पोळो जाय म्हणता म्होणू. चेल्यान पोळ्यांचे आयदन सूण्या मुकारी दवरलें. सूण्यान पोळे सग खप खप कोरनु खावनु चोंवचे मुरथम आयदन रित्तें केल्लें.

सूण्यान पोळे खावनु जांवचानिक चेल्यान दुड्ड निमगीले. “अण्णा, माका पोळ्यांचे दुड्ड दी.” सूण्यान एकु शब्दु केल्लो. “इत्तें म्हण्ता अण्णा, दुड्ड फायी दीन म्होणु वें?” सूण्यान तावळीय एकु शब्दु केल्लो. “जावो जाल्यार.” चेल्लो घरकडे परतून गेल्लो. पोळे सग विकून आयला म्होणू लेकून अम्मान

पोळ्यांचे दुड्डु निमगीले.

“पोळे सग एक अण्णान काळ्ळे अम्मा. दुड्डु फायी दीन खंय सांगता तो.”

तशी चेल्लो केदनाय पोळे विकूक व्हरता. सूणे ताजे मागल्यान हुंगून एकडे जावनू पोळे सग खावनु वता. अम्मा लागीचे घरकडे साकून दुड्डु उशीणे घेवनु पोळे कोरनु विकूक दिता. दुड्डु मात्र मेळनाय. अम्माक एक दीसु कोपु आयलो. तीणे पुता लागी सांगीलें-

“आरे पुतो, उत्तूले दीस जाल्ले रे पोळे व्होरनू दिता. दुड्डु कांय मेळनाय मूं. हांव उशीणे घेवनू तं कष्ट काणू पोळे कोरनू तुका दितां! फायी दुड्डु मेळतले फायी दुड्डु मेळतले म्होणू तूं सांगून बेसला. तूं आजी वोचून दुड्डु घेवनू यो. ना जाल्यार तुका घरांत चोडोवना.” तीणे एकु व्हीरु काणु ताका दोनी पेट्ट दिल्ले.

चेल्लो रोणू सूण्याक पोळे दिंवचे स्थलार गेल्लो. सूणे चेल्लो पोळो हाडता वे म्होणू राकून राबिल्लें. चेल्यान रोणूच सूण्या लागी सांगीलें. “अण्णा, पोळे विकिले दुड्डु हाडी म्होणू सांगून अम्मान माका मारलो. माका दुकता अण्णा, आजि भितरी मिगेले अम्मान माका मारलोना आशिल्लो. मिगेले दुड्डु हाणू दी अण्णा.” अशी सांगून चेल्लो खोळसां काणू रोडूक लागलो.

सूण्याक पाप दिसलें. सूणे ताका लेंवलें आनीक एकु शब्दु कोरनु एकु धांवु. सांकवाचे पोंदाक न्हंयतु एकु ब्यारी न्हातालो सूण्यान दिकीलें. ब्यार्यान वस्त्र निसरावनु न्हंयचे भाटीर दवरलेलें आशिल्लें. वस्त्राचे लागीची दुडवा चील, सातूली सग आसा. ब्यारी उदकांत बुडूचे वेळारी सूण्यान वोचून दुडवाची चील तोणांत काणू एकु धांव मारलो. चील व्होरनु चेल्याक दिल्ली.

दुड्डु मेळ्ळेले संतोषान चेल्लो घरकडे धावलो. “येचेय अम्मा, अण्णान दिल्लेले दुड्डु” अशी सांगून चील अम्मा लागी दिल्ली. अम्मान चोंवचानिक चीलांत भोरनु दुड्डु. ये पोळ्याचे दुड्डु कांय न्हय. हांतु इतनेन प्रश्नु आसा म्होणू अम्माक कळ्ळें. जाल्यारीय तीणे होगी चील काणू निपयली. तिगेले मस्त दृड्डु मेळूक आसा. आनी आतां कोणेय चील सोदून आयल्यारी इत्तें कि करप?

तिका एकि बुद्धि दिसली. चेल्याक होगी निद्दे म्होणू सांगीलें. आनी गोड काणू एद्दें गोडाचें उदाक केल्लें. दोळे धांकून पळ्ळेले चेल्याचे आंगारी गोडाचें उदाक फापुळ्ळें.

पुतान निमगीलें- “अम्मा, इत्तें अम्मा यें पडता?”

“पुतो गोडा पावसु पडता रे. लेवनु चोयी.” पूतु लेवनु चोयलो. गोडचि आसा. गोडाचो पावसूच तं. चेल्यान लेकीलें.

सल्प राबून तो ब्यारी चेल्याक सोदून आयलो. सूण्यान चेल्याक चील दिल्ली म्होणू कोणकीं सांगून ताका कळ्ळें. तें तं तो थांगा धावनु आयला.

“एक सूण्यान मिगेली चील हांगाचे चेल्याक दिल्ली. माका मिगेली चील जाय. चेल्याक उळदी.” ब्यारेल्यान सांगीलें.

“चेल्याक सूण्यान चील कांय दिल्लीना. चेल्यालागी निमगून चोयाय. तो एकु बुद्धिनातिल्लो चेल्लो तं.”

ब्यारेल्यान निमगीलें.- “पुतो तुजे लागी एक सूण्यान दुडवाची चील हाणु दिल्ली वे?”

“व्हय मूं दिल्ली मूं.” चेल्यान सांगीलें.

अम्मान सांगीलें - "केदाणा दिल्ली म्होणु निमगाय"

"केदाणा दिल्ली रे पुतो?"

"गोडा पावसु पळ्ळेले दिसा!"

"आयकीलें न्हय वे तुमी? तो एकु बुद्धिनातिल्लो चेल्लो तं. तशी सग उल्लेयतलो. सूण्यान ताका कांय हाणू दिल्लेना."

ब्यारी परतून गेल्लो. अम्मान उशीणे घेतिल्ले सग परतून दिल्ले. वरलेले दुडवान दुशेरी पोळे कोरनू तीणे व्होरनू विकूक आरांभिलें. सांकवाचे लागी सूणे राकून राबतलें. ताका ती दोनि पोळे दितली. तशी पोळे कोरनु विकून तीं सुखान राबीलीं.



# सित्ती आनी मांकड

एकु दीसु सित्ती म्हळ्ळेली एकि चेल्ली तिगेले आयेथंय वताली. बहु दूरा तं आयेलें घर. चमकून वचे वेळार सांज जाल्ली. खंतय आशिल्लो म्होणु कळना एक झोडू आनी पावसू आयलो. काळूक रे काळूक! गुडगुडू, जोगूल सग जावनु सित्तीक वाट घुसपली. ती तिम्मून फुग्गो जाल्ली. एक होड जोगुलाचे उजवाडांत तीणे थांगा लागी एक घर दिकीलें. ती होगी धावनू वोचून ते घराचे जगलेरी चोणु राबीली.

तावळी थांगा एक रुकारी बेसूनू दोनि सवणीं उल्लेयताय तीणे आयकीलें. दादूलो सवणें बायल सवण्या लागी सांगता-"आजि ये घरकडे वाट घुसपून एकि चेल्ली येवनू राबिल्ली आसा."

"व्हय वे? पाप चेल्ली!"

"समुद्रा पेलतडी आशिल्ले राज्याचे राजकुमाराक एक राक्षसान धोरनू हाणू ये घरकडे घाल्लोलो आसा मूं. ताका स्वबोध ना. राक्षसाक जाल्यारी राजकुमाराले गांवकारानी दिंशी मारलो."

"ते राजकुमाराक रक्षण कोरूक कांयी वाट ना वें?" बायल सवण्यान निमगीलें.

"आसा! वाट आसा! हे घरा लागी राबिल्ले ते म्हशिंगा रुकाचे तरणी पत्ति काणू रोसू काडका. तो रोसु राजकुमारालें पावल धोरनू मात्तें वरान लांवका. एदेंची हुनची निशें ताजे तोणांतू घालका. तावळी ताका स्वबोध येतलें."

यें आयकिल्लेंय सित्ती धावनू आंगणांत देवली. पावसु राबून सल्प चांदीणे आशिल्लें. मंशिगा रुकाची मस्त पत्ति बुरडून काणू तीणे रोसु काळ्ळो. राजकुमाराले ताळूव साकून पावल भितरी रोसु चांग कोरनु लायलो

आनीक वासरेंत वोचून पेज केल्ली. रोसु लागून राजकुमारान लोवूच हाल्लूक आरांभिल्लें. सित्तिन राजकुमाराले तोणांत एदेंच एदेंच कोरनु निशें रकोवनू दिल्लें. राजकुमार दोळे सोणू लोवूची उठावनू बेसलो. दोगानीय एकमेकालागी निमगून चरित्र सग मनांत केल्लें. दोगांकय तांगेले गांव खंचे, खंय आसाय म्होणू कळना!

हेरदूसा तान्नी गांवकारा लागी सग तांगेले गांवांचे पसून निमगीलें. जाल्यार कोणाक कांय कळना. दीस तशी गेल्ले. तावळी राजकुमारान सांगीलें -

"सित्ती, आमगेले बंधुबांधवांचे पसून जावो गांवचे पसून जावो एकु विवोरूय ना. तें दिकून आमकां हांगाची राबुया. आमकां दोगांकय व्हारडीक कोरनू राबूं."

तशी तीं व्हारडीक कोरनू सुखान राबीलीं. एदे मास गेल्ले. घरांतूलें सामान सग सोरनू येता. तावळी राजकुमारान सांगीलें- हांव कसलेंय दंद मेळता जाल्यार चोयता. आमकां दीस काडका नाका वे?"

भोवनु भोवनू राजकुमाराक दंद कांय मळ्ळेंना. लागीचे गांवांत सोदून गेल्लो. सित्ती एकलीची जाल्ली.

तिगेले घरा मागल्यांचान एक न्हंय होळता. तीणे तांतु तं न्हावप. पावसा कालु आयलो. न्हंय भोरनू पळ्या. एकु होळ्ळो झोडू जावनू लागीचे दिसा सित्ती न्हंयतू न्हांवचाक गेल्ली. झोडांतु मोणु पळ्ळेले रुकाचे खांदे, शिरपूटां, केळ्यो सग होळनू येताय. ताजे ओटू एक रुका खांध्याक पोटोनु धोरनू एकि बायल आनीक तिगेली धूव होळनू येताय. 'आमकां रक्षण करी गो धूवे' अशी म्होणू तीं मागतांय. सित्तीक तांचेरी दया दिसली. तीणे तांका धोरनू घरकडे व्हेल्लीं. तांकां जांवका जाल्लोलो सहायू सग केल्लो.

एदेची दीस वचानिक सित्ती बाळांती जावनू चंद एकु चेल्लो जाल्लो.

तिगेलो बामूणू जाल्यारी आतांय पावलोना. ती बायल आनीक चेल्ली आसा दिकून सित्तीक एकु सहायु जावनू आसा. चेरडाक पाळ्ळ्यांत निदायल्यारी ती चेल्ली जूंय काडतली. ती बायल आंवगालें उंबोळनू दितली. तशी सग आसतना एक दिसा सित्ती न्हाण जावनू परतून घरांत येंवचानिक ती चेल्ली पळ्ळ्याक जूंय काडता. तिगेली अम्मा आंवगालें उंबळूक गेल्लोलो वेळू. चेल्ली बेसून एकु गींतु म्हणता.

“मिगेली आम्मा तुगेले अम्माक खातली खातली-

हांव आतां तुका धोरनू खातली खातली” -

गींत आयकून सित्तीक भय जाल्लें. यी बायल आनी धूव सादीं मनीषां कांय न्हय, राक्षस्योच तं म्होणू तिका मनांत जाल्लें. तीणे होगी एक कापडा कुटूको वोल्लो केल्लो आनीक चेल्ले लागी दिल्लो - “धरी गो, यो मूत लागल्लो कूटूको लागेन व्होरनू अम्मा लागी उंबळूक दी.” राक्षसीली धूव लुगटय घेवनू भायर देविल्लीय सित्तीन कवड दिल्लें आनी खीळि घाल्ली. आनीक कोणाक घरांत चडूक जावना. राक्षसी आनीक धूव जायतें धाडावनू चोयल्यो. सित्तेन कवड काळ्ळेंनायीच. तशी तीनि चारी दीस जांवचानिक राक्षस्यो गेल्यो.

: एदेची दीस वचानिक दुशेरी एकु झोडु आयलो. झोडांत पोणू न्हंयतूल्यान होळनू एक मांकड येता सित्तीन दिकीलें. रुका खांध्यार पोटोन धोरनू तें ‘माका रक्षण करी धूवे’ म्होणू बोबाट घालता. सित्तेक भय जाल्लें. यें मांकडच कि राक्षसि वेषु परतून आयल्या? धुवे धुवे कोरनु रोणू गोंदोळू घालचे तें मांकडच जाव्यात! सित्तेन होगी तिगेलें उंबोळनू दवरलेलें कपड दीगची कोरनू विंदून दिल्लें. मांकडान होगी कपडाक धरलें. तशी सित्तीन कपड ओडून मांकडाक वांचयलें. एकि आंगूटी काणू मांकडाक पुशीलें आनी घरकडे व्होरनू पांगूरनु बेसयलें. आनीक ताका पिंवचाक हुनची निशें दिल्लें.

निशें पीवनू मांकड निद्देलें.

एदी घडी जावनु मांकडान उठावनु चोंवचानिक सित्ती बेसून रडता. ताणे वोचून सित्तेलागी रण्याचें कारण निमगीलें. तिगेलो बामूण दंद सोदून परगांवांत गेल्लोलो आतांय पावलो ना. घरांत जाल्यार सामान सग सरूक जाल्यां. यें आयकून मांकडाक पाप दिसलें. एकि चीलय घेवनू तें भायर देवलें. थांगा लागी आशिल्ले एक सांतांत वचून एक आंगडीचे लागी आशिल्ले रुकार निपून बेसलें. ब्यारेल्यान चोवनातिल्ले वेळार तें भितरी सरलें आनीक चीलांतू वोरोवु, सामान सग भरलें. मांकडाक आंगडींत दिकून तेद्देभितरी कोणेय गोंदोळू घाल्लो. ब्यारेल्यान फातरू विंदूक काडूनिक मांकड चीलय घेवनू घरकडे धावलें. घरकडे पावनू मांकडान पेज, कुका हुम्माण सग कोरनू सित्तीक जेंवचाक उळदीली.

“खंचो मेळ्ळो रे मांकडा यो वोरोवु? तूवें फारनु हाळ्ळोलो जाल्यार माका नाका. मेल्यारीय चिन्ना, हांव जेंवचिना!”

“सित्ते, तूंवे मिगेलो जीवु वांचयलो. हांव आतां तुगेलो जीवु वांचयतां. तुका तुगेले चेरडालें कायरीं लागेन चोंवका जाल्लेलें न्हय वें? तें दिकून तूवें उपाशी पोडूक नज. वाशी सग मागीरि काडूं!”

एदे दीस वचानिक मांकड वेगळे एक फळांचे आंगडींत गेल्लें. ब्यारी भितरी गेल्लेले वेळार धावनु भितरी चोणू मांकडान फळां चीलांत भरलीं. तेंवय व्होरनू सित्तीक दिल्लें. तशी मांकड तिका उपाशि घालनात्तिलें चोयलें.

दीस तशी गेल्ले. सित्तेक आशिल्लीं कापडां सग पिंजून वताय. परतून न्हेसूक कापड ना. चेरडाक जाय जाल्लेलीं वस्त्रांय ना. मांकड एक म्हंतारेचो वेषु घालनू गांवांत मस्त जाण राबूचे स्थलार गेल्लें. थांगा होळ्ळे एक घराचे आंगणांत भोरनू वस्त्रां सुकत घाल्यांय दिकीलें. थांगा चळ्ळी आमगेली म्हांतारी! मुकारीच एकि बायल बेसून कुरवंताली दिकीलें म्हांतारेन.

तीणे सांगीलें- "धुवे, तुका नीद येता जाल्यार घरांत वोचून निद्दे. हांव आंवगालें चोयन." बायल संतोषान घरांत वोचून निद्देली. म्हांतारेन सित्तेक आनीक चेरडाक जाय जाल्लेलें वस्त्र सग पटळी बांदून काळ्ळें. वरलेले सग घडि घालनू दवरलें. आनी म्हांतारी वस्त्रंय घेवनू परतून घरकडे गेल्ली.

वस्त्र फारनू हाळ्ळेले खातीरी सित्तेन मांकडाक उल्लेयलें. मांकडान सांगीलें. "हांव आशिल्यालें एदेंची काणू नातिल्यांक दितां. ना जाल्यार तूं इत्तें न्हेसून भोंवतली?"

एदेची दीस वचानिक मांकड दुशेरी म्हांतारेलो वेषु घालनू गांवांत गेल्लें. एक होळ्ळे घरकडचे एक बायले लागी ओपुरबायेन उल्लोवनू म्हांतारी गेल्ली. तिका तेल लावनू न्हांवचाक पेटोवनू ती म्हांतारी घर चोंवचाक म्होणू बेसली. म्हांतारेचेरी विश्वासान ते घराची बायल न्हाणियांत चळ्ळी. तेल लावनू न्हांवचाक चोंवचानिक उदाक खतखतीची आसा. एदेंची शेळ उदाक हाडी म्होणू सांगून ती बोबाट घालता. ते वेळान म्हांतारी घरांत चळ्ळी आनीक पेटांत आशिल्ले दुड्ड, भांगार सग चीलांत भोरनू एक चमकण!

दुड्ड फारनू हाडूनिकय सित्तेन मांकडाक उल्लेयलें. "मागीर तूं कशी दीस काडतली? हांतूलो एदो दुड्ड काणू आवश्य चमकयी. आनी तुगेले बामणाक लागेन सोदून हाणू दिल्यारी मिगेलें दंद सरतलें. कशी कि तुगेलो बामूणू आसा? कोणाचे वरी कि आसा?"

"चोय मांकडा, ये चेरडाक चोय, यो बप्पाचे वरी तं चोंवचाक. निडळार दोळ्या उंचारी जावनू एक काळेंची लाशें आसा."

मांकड भायर सरलें. सोदून सोदून एकेक गांव दांटवून मांकड होळ्ळे एक नगरांत पावलें. 'हांगा सग न्हय वें काम मेळप. तें दिकून सित्तेलो बामूण हांगाची आसतलो'. असी लेकून मांकड थांगाचे एकेक घरांतूय चोणू चोंवचाक लागलें. सित्तेले बामणाचीं लक्षणां आशिल्ले कोणाक खंय दिकूक

येना. तशी स दीस गेल्ले. सातवे दिसा एक घोडालयांतू एकोलो घोड्याक खाण दीवनू राबिला दिकीलें ताणे. ताजे निडळारी काळें लाशें आसा! मांकडाक संतोषु जालो. सित्तेन सांगिल्लीं सर्व लक्षणांय आशिल्लो होच तं तिगेलो बामूण. लागी आनिक कोण ना म्होणू कोळूनिक मांकड रुकार साकून खालाक देवनू गेल्लें आनीक ताजेलागी सित्तेचो विशेषू सग सांगीलो.

सित्तेलो बामूण आतां एक धनियालो दास जावनू तं आसा. तें दिकून खंय वचाक जावना. एक फटवणेचे खेळांत हारवोवनू तं धनियान ताका धोरनू काळ्ळा. ते धन्नियाक दुशेरी तेची खेळांत हारवयल्यारी मात्र तं ताजे लागी साकून वांचुयात.

मांकडान खेळाची कायरीं सग निमगून मनांतु केल्लीं. लागीचे पुनवेक खेळू आसतलो. तेद्दूस धन्नियाक हारवोंवचाक मांकडान निश्चयु केल्लो.

मांकडान ये खातीर तयारी केल्ली. पुनवे दिसा साकाणीची मांकड एक मेल्लेले विंदराक आनी एक जीवु आशिल्ले विंदुराक घूडांत घालनू भायर सरलें. खेळू चमकूचे स्थलारी आशिल्ले रुकाचे उंचार निपून बेसलें.

धन्नी सित्तेले बामणाकय घेवनू खेळाक पावलो. खेळांत भागू घेंवचाक आनीक खेळू चोंवचाक जावनू भोरनू जनां एकडे जाल्लेलीं आसाय. खेळू आरांभिलो. धन्नियालें एक माजर आसा. ताजे मात्यारी एकेकलींय एक पोणती जळोवनू दवरतलीं. एकेकेल्यानय निश्चित वेळू भितरी ती पोणती खालाक पोणातिल्लें चोंवका. माजरान पोणती खालाक घाल्यार तो हारवतलो. धन्नियान दवरलेली पोणती माजरान खालाक घालनायीच. तशी कोरूक तं ते माजराक धन्नियान शिकयल्यां. जाल्यार अन्य कोणेय पोणती दवरल्यार माजर तावळीच खालाक घालतलें. तशी एकेक पावटीय धन्नि जिकवतलो.

सित्तेले बामुणानय माजराचे मात्यार पोणती दवरली. तावळीची रुकार निपून बेसल्ले मांकडान मेल्लेले विंदुराक माजराचे मुकार घाल्लें.

हाल्लूनातिलें पळ्ळेले विंदुराक चोवनू माजर नुतोच बेसलें. निश्चित समयू जाल्यारीय माजर हालना. लागीची धन्नियान पोणती माजराचे मात्यार दवरली. केदणाय माजर हालूनातिल्लें बेसतलें. आजी मांकडान इत्तें केल्लें म्हळ्यारी जीवु आशिल्ले विंदुराक माजराचे मुकारी घाल्लें. जाल्लें नवें! गोंदोळू पळ्ळो! माजर विंदुराक धोरूक एकु धांवु. पोणती खालाक पळ्ळी. धन्नि हारवलो. सित्तेलो बामुणु धन्निया लागी साकून मुक्त जाल्लो.

सित्तेलो बामूण आनी मांकड गावांत परतूक जावनू भायर सरले. मांकड एक रुकार साकून आनि एक रुकार उडकि मारनू मुकार गेल्लें. सित्ते लागी वोचून बामणाक सोदून मेळ्ळोलो विवोरु ताणे जाणेयलो. तिका बहु संतोषु जाल्लो. तिका चांग कोरनू शिंगारनू चेरडाकय घेवनू माळियेरी राकून बेसूक मांकडान सांगीलें.

मांकड वासरेंत वोचून शीत रांवदय सग तयार कोरनू आयलें. तें जातरी ताणे एक कापड वेडायलें, तीळो केल्लो, एक दोळ्याक काजल सुयलें, भोरनू फूल माळ्ळें आनी मात्यार वोरल घालनू लेजेवनू एक बायल वेषार सित्तेले बामूणाक फटोंवचाक राबीलें.

सित्तेले बामुणान पावनू चोंवचानिक एकि सुकि बायल लजेवनू राबील्या. ताका कष्ट दिसले. कशी दिसताली कि तागेली बायल फूडे! खाण नातिल्यान अशी जाताय वे? कशी विरूपी दिसता!

मांकडान पान दवोरनू ताका वाळ्ळें. आनी सित्तेक उळदून सांगीलें- “सित्ते, बामुणाक तूप वाडूक यो.” तावळी सित्ती झिलूं-बिलूं झिलूं-बिलूं कोरनू मेटां द्रेवनू आयली आनी चेल्याक बामुणाले होंटींत बेसयलो. शितारी तूप वाडतना बामूण तिका चांग कोरनू चोयलो. कितली चंदि दिसता! ताका बहु संतोषु जाल्लो. सित्तेन आनी बामुणान मांकडाक उपकारु सांगीलो. मांकड तांचे लागी यात्रा सांगून गेल्लें.



# शेणै प्रकाशनाले इतर उपहार




## पुष्पांजली

कथासंग्रह

श्री पी. एस. रामचंद्र शेणै हांगेल्यो बत्तीस कविता एकठांय करून 2001 वर्षा उजवाडाक हाडलोलो काव्य संग्रह. प्रोफ. आर. के. राव हांगेली प्रस्तावना. श्री शरतचन्द्र शेणै हांगेलीं बरीं उतरां. श्री आर. सुधाकर हांणी मुखचित्र रचल्यां. मोल 50 रूपया. शेणै प्रकाशनालो प्रथम उपहार.



## होळ्ळम्मोल्यो काण्यो

(भाग - 1)

ऑडियो कॅसेट

श्रीमती वत्सला आर. शेणै हांणी कथन केलेल्यो तीन सुंदर कोंकणी लोककाण्यो - 'भांगरा गेरशी', 'म्हांतारी आनी दुदी' आनी 'कुंडकोरकुल'.

2004 वर्षाचें शेणै प्रकाशन. मोल 40 रुपया



# कृष्णगीत

सचित्र काव्य

लीलापुरुषोत्तम श्रीकृष्णाली, जन्म धरून कंसवध पर्यान आशिल्ली, कृष्णकथा गेयकाव्याचे रूपान चित्रां सयत श्रीमती सूर्या अशोक हांनी अवतरण केल्या. श्रीमती सुशीला टी. भट हांगेली प्रस्तावना. हांतूलीं चित्रां आनीं रंगयाळें मुखचित्र लेखिकेन स्वतः रचल्यांय.

2004 वर्षाचें शेणै प्रकाशन. मोल 75 रुपया



# पुनर्जनी

(कथासंग्रह)

श्रीमती सूर्या अशोक हांगेल्यो सात सुंदर, भावपूर्ण काण्यांचो संग्रह. श्री. शरतचंद्र शेणै हांगेली प्रस्तावना. लेखिकेन स्वयं रचिल्लें रंगीन मुखचित्र.

2005 वर्षाचें शेणै प्रकाशन. मोल 65 रुपया



## वत्सला आर. शेणै

1926 वर्षा केरळाच्या मुवाट्टुपुषा गावांत जन्म. 1941 वर्षा पळ्ळुरुत्ती श्री. पी. एस. रामचंद्र शेणै हांचे कडे लग्न. 1978 धरून साहित्यसेवा करीत आसा. मलयाळम आनी कोंकणी भाषेंत जावन साबार रचना आसाय. काणियो, यात्रा विवरण, नोवलेट, इत्यादी मौलिक रचनां वरी कोंकणी लोककाण्योय प्रकाशित जाल्याय. कोंकण जनता, सारस्वतवाणी, वेंकटवाणी, वैष्णवरत्न आदी आनुकालिकांचेर बरयत आयल्या. कोंकणी लोककाण्यो ह्या केन्द्रीय साहित्य अकादमीच्या पुस्तकांतूय, साहित्यदीप्ति ह्या नव्या संग्रहांतूय हांगेल्यो रचना आसाय. कोषिकोड नगरींत घडयलेले अखिलभारतीय कोंकणी परिषदेचे वेदीचेर हांगेलें ऑडियो कॅसेट होळ्ळम्माल्यो काण्यो प्रकाशित जालें.

वेगवेगळे रचनेंक जायते साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्याय. कोंकण जनता पुरस्कार , कोंकणी भाषा प्रचार सभा पुरस्कार , सारस्वतवाणी पुरस्कार , वैष्णवरत्न पुरस्कार , आदी एका पशी चड पावटी लागेन मेळ्ळ्याय. सौम्य आनी शुभोदर्क साहित्याची हांची एकनिष्ठ उपासना आतां तीन दशकां जावन चलत आयल्या!